# केन्ना कशें

-रोहिदास बाबुराव शिरोडकार





।। श्री ।।

# केन्ना कशें

दोन अंकी कोंकणी नाटक

बरोवपी : रोहिदास बाबुराव शिरोडकर

केन्ना कशें (कोंकणी नाटक)

**लेखक :**
रोहिदास बाबुराव शिरोडकर

**पयली आवृत्ती :**
मार्च २००७

**उजवाडावपी :**
रोबाशि प्रकाशन, तळयेवाडा, बेतोडा, फोंडा - गोवा
फोन :०८३२-२३३०४२४, मोबाईल : ९३२६१४०११९

**मुद्रक :**
क्रियेटीव्ह कंप्यूटर सेल

**मुख पृष्ठ :**
श्री. किरण नायक, तिस्क, फोणें - गोंय.

**छापणी :**
कस्तूरी ग्राफिक्स
ढवळी, फोंडा - गोवा ४०३ ४०१
फोन : ०८३२ - २३१७४८६

**हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर आर्थीक पालव येवजणे खाला छापला.**

मोल : **तीस रुपये**

# अर्पण



म्हजो बापूय ति. सर्गेस्त बाबुराव शंकर शिरोडकर (दादा) सादोंच सभाव, आनंदी चित्त, सदाच म्हजेर विश्वास दवरपी तांच्यापासून हांव बरेंच कितें शिकलो त्या म्हज्या दादांच्या यादस्तीक हें म्हजें नाट्यरुपी पुष्प अर्पण करता आनी न कळत तांचो आशिर्वाद मेंळू ही प्रार्थना करता.

- रोहिदास बाबुराव शिरोडकार



# या नाटकातली पात्रा

१) किशोर

२) मालिनी

३) गणू

४) प्रशांत

५) स्वामी

६) सोर्तीकार

७) इन्स्पेक्टर



## प्रास्ताविक

# तोखणायेक पात्र 'केन्ना कशें'

'केन्ना कशें' हांवे बशिल्ले बसकेक वाचून सोंपयलें. नाटक दोन तरेन अणभवंक मेळटा. वाचून आनी पळोवन. रोहिदास बाबुराव शिरोडकरांचे 'केन्ना कशें' हें नाटक फार्सिकल आनी विनोदी प्रकारचें जाल्ल्यान रंगमाचयेर सादर केल्लें पळोवपाक चड मजा येतली अशें नाटक वाचनाफुडें म्हाका जाणवलें. रोहिदास फाटलीं साबार वर्सा हौशी रंगभुंयेखातीर नाटकां बरयतात. तांचीं नाटकां लोकप्रिय जाल्यांत. पूण पुस्तकरुपान तीं उजवाडाक येवचीं अशें इतलीं वर्सा तांकां कित्याक दिसलें ना तें खबर ना. घडये वाचकांक तें मानवतलें वा ना तांका खातरी नासुंये. निवळ साहित्य वाचूंक सोदपी वाचपाक घडये समादान ना दीत. पूण फार्स वा नाटक म्हण वाचपी वाचकाक रोहिदासालीं नाटकां खातरीन आनंद दितलीं.

गोंयांत हौशी रंगभुंयेची गरज भागोवपाइतलीं नाटकां तयार नात ही गजाल कोण न्हयकारना. ह्या कारणाक लागून खूब जाण गाजिल्लीं हिन्दी, मराठी, कन्नड वा बंगाली नाटकांचे अणकार करून माचयेर सादर करतात.

पुंडलीक नायक, दत्ताराम कामत बांबोळकर, भरत नायक हांचेफाटल्यान नाट्यलेखनाची परंपरा फुडें व्हरपी तरणे लेखक वयर सरल्यात आनी सरत आसात. पूण नाटक बरोवन सादर करपी आसले तरी छापून उजवाडाक हाडपी थोडे. अशावेळार रोहिदास बाबालें हे नाटक छापून उजवाडाक येता ही भोव खोशदिन आनी उमेद वाडोवपी गजाल.

कोंकणी सरस्पतेचें दालन दिसानदीस गिरेस्त आसा. कथा, कविता, कादंबरी, निबंद प्रवासवर्णन आनी वैचारीक साहित्याची निर्मणी ज्या प्रमाणांत जाता ती पळयल्यार अजापमिश्रीत तोखणाय दिसता. पूण तेच वांगडा एके गजालीची मात खंत दिसलेबगर रावना. आमचेकडेन विनोदी साहित्य रचपी लेखक संखेन साप उणे आसात. शंकर भाणारी, पुरुषोत्तम सिंगबाळ. हरशीं गोंयकाराकडेन विनोदबुध्दि ना अशें म्हळयार कोण खरें धरचो ना. पूण ताचें पडबिंब साहित्यांत दिश्टी पडना इतलें खरें. नाटक हो प्रकार ह्या मळार समादानादिणो आसा. कोंकणी नाटकुल्यांची सुरवातच हांसोवपी खेळ म्हणून

जाल्ली. किसन कामत हांची 'बाप्पा मुंबय वता' सारकीनाटकुलीं खूब गाजलीं. उपरांत नाटकुलें म्हळ्यार 'हांसोवपी खेळ' हें समिकरणच जालें. गंभीर नाटकाची सुरवात म्हाका दिसता. पुंडलिक बाबाल्या 'निमित्ताक कारण' ह्या नाटकान जाली. उपरांत पुंडलिकबाबाल्या वेचारीक खोलाय घेवन वर्मार बोट दवरपी नाटकांनी लोकप्रियतेची आनी लोकमान्यतेची तेंगशी गांटली.

रोहिदास बाबुराव शिरोडकरांची प्रकृती मातशीं वेगळी. ते नाटक बरोवचेपयलीं प्रत्येक सीन Visualise करतात. पात्र, प्रसंग आनी हालचाली दोळ्यांमुखार हाडून मागीर संवाद रचतात. नाटक बंरयतना ते संवाद बरयत वतात. पात्राची प्रत्येक हालचाल, वाचकाक गृहीत धरून ते चलतात. आनी म्हजेसारको वाचक तो तो प्रसंग आनी तें तें पात्र दोळ्यांमुखारहाडून नाटकावांगडा समरस जातां. ताचो आनेक फायदो म्हळ्यार हो लेखक दिग्दर्शकाखातीर वाव सोडत - Space दवरता. दरेका दिग्दर्शकान आपणाक योग्य दिसता तशेतरेन ते ते प्रसंग सादर करचे - हो हेतू. 'केन्ना कशें' बरोवन रोहिदास बाबान एक बरो फार्स सादर करपाची संद कल्पक दिग्दर्शकांमुखार दवरल्या; उतरांचो आनी अभिनयाचो सांगोड पालून सतत लोकांक हांसयत दवरपी एक संहिता हौशी वा वेवसायीक रंगकर्मीमुखार दवरल्या; आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार नाटक सादर जाल्याउपरांत लेखकाची जापसालदारकी सोंपना तर तें छापून उजवाडाकूय हाडूंक जाय म्हणपाचे देख ताणी हेरांमुखार दवरल्या.

सुर्वेकसावन निमणेमरेन खिळावन दवरपी ह्या नाटकाची अखेर प्रेक्षकांक कितली मानवतली तें समजना. 'सोर्ती वायटच पूण जुगरापरस सोर्त बरी' अशें तरेचें विधान घातल्यान वाचकांचो तरी गोंदळ जाता. पूण प्रयोगाचो अणभव घेवनच रोहिदास बाबान नाटक उजवाडावपाक घेतलां म्हण्टकीर ताणी हाचो विचार केलाच आसतलो. 'केन्ना कशें' हें एक गतिमान नाटक. पात्रांच्यो गतिमान हालचाली, गतिमान प्रवेश, ल्हायो कशो पिटपिटपी गतिमान संवादफेंक आनी वट्ट गतिमान सादरीकरण हांच्याखातीर हो फार्स खूब लोकप्रिय जांव येता.

फार्स म्हूण ही संहिता वाचतना तातुतलें प्रत्येक पात्र म्हाका भावलें. भोवकरून 'गणू' ह्या घरनोकराक घरांतली इश्ट आनी वांगडी कसो उबो केला तें खुब मानवलें. रोहिदास बाबांक परबीं आनी शुभेच्छा.

**- दामोदर मावजो**



# म्हज्या मनांतले

मनात खूब कितें आसता पूण तें उकते कशें करप हे कळना. १९७३-७४ या वर्सातल्यान हांवे कविता बरोवपाक घेतल्यो. ह्याच वर्सा हांव मॅट्रीकेची परीक्षा दिवन रिज्लटाची वाट पळयतालो. मडगाव मुरमुटी कोंब या वाड्यार म्हजें घर. असोच दनपारचो घराच्या बलकांवाचेर बशिल्लेकडेन रिज्लटाउपरांत हांवे कितें करपाचें हो विचार म्हज्या मनात घोयटालो, अशा वेळार म्हजी आवय म्हळ्यारच म्हजी आई म्हाका जेवपाचो वेळ जाला म्हण मोगान सांगपाक आयली. चल बाबा जेवण वाढून दवल्ला जेव आनी मागीर बस बलकांवार. तेन्नाच म्हाका एक कविता सूचली, ती हांवे तेन्नाच बरयली. जेवन खावन सांजेचो 'दिसाळें राष्ट्रमतांक गेलो, तेन्नाचे राष्ट्रमताचे' उपसंपादक सर्गेस्त वसंत कारेक मेळ्ळो आनी तांका म्हजी कविता दाखयली. कवितेचे नाव आशिल्लें "म्हजी आई" सर्गेस्त बाब वसंत कारेक ती मानवली. ताणी सांगले 'तूजी कविता खरेंच बरी आसा असोच बरयत राव तूज्यो कविता राष्ट्रमताचेर छापून हाडपाचे काम म्हजे.' म्हजे काळीज भरुन आयलें हांव तांच्या पाया पडलो आनी तांचो आशिर्वाद घेतलो. तेन्नाच्यान म्हजें पेन चलपाक लागलें तेवूय कोकणीतल्यान. हाचेनंतर एक फाटल्यान एक अशो कविता बाब कारेच्या आशिर्वादान राष्ट्रमताचेर छापून येवपाक लागल्यो तातूतल्यो म्हत्वाच्यो कविता म्हळ्यार "रामराज्यातलें-शेवणें, परकें आयले परके गेलें, चंद्रगुप्ता, नवेंवर्स अश्यों ब-योच कविता छापून आयल्लों. ज्याच्यापासून म्हाका बरोवपाची उर्बा मेळ्ळी तांचो आशिर्वाद मेळ्ळो तेंच देवाक जाय पडले. आनी ते हों संवसार सोडून गेले. म्हजी बरोवपाची उमेद खचली. तरीय हावे बरोवपाचो यत्न केलो पूण कारेच्या नंतर म्हाका प्रोत्साहीत करपी कोणूच मेळ्ळे नात. तरी आस्तना कळत नकळत हांवे एक नाटकुले बरयले, "कोतादोर" इश्कॉलाच्या भूरग्यांनी ते इस्कॉलात सादर केले. कॉलेजात आस्ताना हाव तसो चडकाय बरोवपाक पावलोना पूण मदी-मदी सामाजीक न्यायाक धरुन बरयतलो आनी ते छापून येतालें आनी आयजय येता. ल्हानपणातल्यान

नाटकाक काम करपाची आनी नाटकां पळोवपाची म्हाका आवड. इश्कॉलाक सुटी पडटकच वाजें शिरोडा हांगा वतालो. तेन्ना आमी सगळे ल्हान भूरगे मेळोन नाटकाचे प्लॅनींग करताले. पयले नाटक आमी भूरग्यांनी करपाचे थारायलें तेन्ना थंयचे "तळे सुकोवन" तातूतले नुस्ते धरुन सगल्या भूरग्यांनी ते विकले आनी तातूतल्यान जे पैशे मेळ्ळे त्या पैशातल्यान आमी पयलें नाटक केलें, ताचे नाव आशिल्लें "आदी लगीन कोंडाण्याचे" प्रत्येक मे म्हयन्याक ही नाटकां करपाची प्रथा वाजे काठये पुरुष-रामपुरुष या देवळे मुखार चालू जाली.

कामाची वाढ नोकरेतल्या जबाबदारी खातीर बरोवपाचें बरेंच कमी जालें आनी जे कितें बरयिल्ले ते हांवे लोकामुखार हाडपाचो यत्न केन्ना केलोच ना. ह्याखातीर म्हजे लिखाण काळखातच उरले. "नवें गोये" ह्या कोंकणी दिसाळ्याक म्हजो इश्ट ॲड राजू मंगेशकर आनी कॉ. किस्तोफर हाच्या वरवी "सुटकें जुंजारी" हें लिखाण आयतारा आयतारा देवनागरी लिपीत छापून येतालें. नाटका पळोवप, नाटकांक काम करप हाची उमेद मनात आशिल्लीच अशाच वेळार प्रा. मिलींद म्हाडगूत हाची इश्टागत घडोन आयली आनी ताणी बरयिल्ली कथा, टेली फिल्मच्या रुपान सादर करपाचो योग म्हाका आयलो, तेवूय कोंकणी, जाचे नाव आशिल्लें "उध्वस्त संवसार" ताच्यानंतर तांचेच एक नाटक हावे कला अकादमीच्या स्पर्धेन सादर केलें. गोंयचे नावास्ते नाट्य लेखक व नाटककार बाब विष्णु सूर्या वाघ हाणी ह्या नाटकाक बरोच फेरफार करुन हाडलो ते जावन आशिल्लें "खा मरे खा" हे नाटक गोंयात बरेच गाजलें. टेलिफिल्माबरोबर नाटकाय रोबाशि आर्टस या नावान सादर केली. नाटका सादर करतलो जाल्यार लेखकाचे पाय धरचे पट्टात म्हणोन परत नाटकाखातीर आनी टेलीफिल्माखातींर पेन हातात धरलें. स्पर्धेखातीर पयले नाटक हावे बरयले तें म्हळयार "तें आयलें" हांगाच्यान म्हजी गाडी रुळाचेर आयली ती हळूहळू चलत आसा. तातूतल्या तातूत काय कविता हांवे बरयल्यो त्यो हांवे बाब रविंद्र केळेकार हांका दाखयल्यो ताणी म्हज्यो काय कविता तांच्या "जाग" या मासिकान छापल्यो. तांचोय म्हाका बरो आशिर्वाद मेळ्ळो. नाटकां आनी टेलिफिल्मां बरयली खरी पूण ती छापून हाडची अशे म्हज्या मनान म्हाका केन्नाय सांगलेना. पूण हे म्हाका पटवन दिले. गोंयचे नावास्ते नेपथ्यकार म्हजो

इश्ट बाब किरण नायक हाणी, म्हणपाक लागले नाटक बरोवन बरोवन भीतर कित्याक दवरतात. ती कोंकणी अकादमीक तरी दीवन पळयात नाटकां बरोवन उजवाडपाक म्हज्यान जाताली. पूण कोणे तरी ताची पारख करुन ते पास करप हे म्हाका जाय आशिल्ले म्हणून हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचे मानेस्त अध्यक्ष बाब पुंडलीक नायक हांका मेयळो थंयच उपाध्यक्ष बाब तानाजी हळणकर हांचीय भेट जाली. तांका २००५ क कला अकादेमीच्या नाट्य स्पर्धेक सादर केल्ले "केन्ना कशें" हांवे बरयले नाटक दाखयले. पयलो चंवर ह्या तांच्या अर्थीक पालव येवजण खाला हे हावे तांच्या ऑफिसात दिले. मदी-मदी बाय हेमा नायक हांका हाव विचारतालो की हावे दिल्ले नाटक पास जालें काय कितें. तांचेकडल्यान म्हाका उतर मेळटाले. सेलेक्शन कमिटी मुखार ते घातिल्लें आसा. अंदाज एका म्हयन्यान म्हाका गोवा कोंकणी अकादेमीतल्यान एक पत्र आयले कि तूमचें "केन्ना कशें" नाटक पास जाल्ले आसा. तेन्ना काय व्याकरण आनी भाषा जुळवणी खातीर कार्यशाळा आयोजित केल्ली आसा ताका हांवे हाजीर रावचे पडटलें. त्याप्रमाण हांव हाजीर रावलों. हांगा बाब पर्येकार हांच्याखाला ही कार्यशाळा आशिल्लीं हांगा म्हाका पुस्तक छापणावळी कशें करपाचे आनी ते कशे छापचे हे पत्र मेळ्ळे. मनाक खूप बरें दिसलें कोणेंतरी गोयच्या नावास्ते लेखकान या नाटकाचेर प्रस्तावना बरोवची ही म्हज्या मनातली इत्सा. ती बाब दामोदर मावजो गोयच्या कोंकणी साहित्याक हांका वळखना असों कोण ना, हाणी पुराय केलो. तांणी म्हाका बरों येवकार दिलों तांका इतली कळकळ कि बँगलोराक हॉस्पीटलात आस्तना (तांचे एक ल्हानशा ऑपरेशनाक ते गेल्ले.) थंयच ताणी हॉस्पीटलाच्या खाटीर बसून म्हज्या ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवन दिली. हांव ताचो खूप उपकारी आसा. तांका बरें आरोग्य आनी चडान चड आयुष्य दिव हे देवा लागीं मागता. या पुस्तकाचे प्रुफ रीडींग बाय स्नेहा पंडित हाणी केले तांचोय हाव उपकारी. तशेच पयलो चंवर अर्थीक पालव येवजणेखाला हें पुस्तक छापपाक आर्थीक तसोच मानसिक पालव दिल्ल्याबद्दल हांव कोंकणी अकादमीचो चडान चड उपकारी.

**- रोहिदास बाबुराव शिरोडकार.**



# केन्ना कशें

## बिरुद गीत

केन्ना कशें केन्ना कशें
सांगू येना सांगू येना
जिवीत मनशाचें बदलत
सांगू येना सांगू येना केन्ना कशे
वाटेवेले काटे पयस केन्ना जायत
वाटेवैली फुलां पयस केन्ना जायत
सांगू येना सांगू येना केन्ना कशे
नशीब तें मनशाचे उंकतें केन्ना जायत
सांगू येना सांगू येना केन्ना कशें...

# देखावो १ लो

सकाळचो वेळ. मालिनी - घरमालकीण न्हावन आपले केंस पुशीत भायर येता, केंस तशेच बांधता. आनी घरातल्या देवा-यात निरंजन पेटयता. तें देवाक दाखयता आनी स्त्रीसुक्त म्हणपाक लागता. घर सादेंच, मध्यम वर्गीयातलें. कुशीक मालिनीचो घोव किशोर न्हिंदला. आनी व्हडल्यान घोरेता ती म्हण्टा त्या सुराक सूर दिल्ल्याबशेन तो घोरेता ती ताका रागान पळयता आनी परत म्हणपाक लागता.

मालिनी : (स्त्री सुक्त / लक्ष्मी स्तोत्र म्हणटा)
जय पद्मपलाशाक्षिं जय त्वं श्रीपतिप्रिये
जय मातर्महालक्ष्मि संसाराणीवतारिणी

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : महालक्ष्मी नमस्तुभ्यं (ताचेकडे पळयत)

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : नमस्त्युभ्यं सुरेश्वरी

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : हरिप्रिये नमस्तुभ्यं

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : नमस्तुभ्यं दयानिधे

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : पाव गे माये महालक्ष्मी

किशोर : घू-हू – घू-हू

मालिनी : (रागानं) हाका एक कसले निद्रपद लागला तेच कळना.

किशोर : घू-हू

मालिनी : पळयात कशे घोरेताक तें तूंच पाव गे मायें आनी हांका मातशी बरी बुध्द दियात.

किशोर : घू-हू

मालिनी : शी सायबा. आपूण न्हिदल्या ते न्हिदल्या वेल्यान ह्यांच्या या निद्रपदान म्हाका देवीची पुजा लेगीत सारकी करपाक मेळना. तूंच पांवगे सायबीणी.

किशोर : घू-हू

मालिनी : (देवाक पांया पट्टा)

किशोर : (चड व्हडल्यान घोरेता)

मालिनी : (ताका रागान पळयत ताका उठयता) किशोर - किशोर उठ मरे. उठ बेगीन.

किशोर : (घोरेपाचो आवाज वाडयता)

मालिनी : (कपलार हात मारीत) किदें म्हजें नशीब (ताका हात लावन उठयता) किशोर आरे उठ मरे कितलों वेळ जाला तो तरी पळय.

किशोर : (तिचो हात लागतकच हांसपाक लागता)

मालिनी : आरे आतां किदें जालें ? असो हासता सो कित्याक ?

किशोर : (आशिल्लो तसो परत न्हिदता आनी घोरेवपाक लागता)

मालिनी : (सामको राग येता) हाका आता किदें करपाचें? कसलो हो घोव म्हज्या नशीबाक फावों जाला. हों आता असो उठचो ना. तो कुंभकरण परवडलो पूण हो न्ही. हाका आतां सारकेच दाखयतां. (रागान भीतर वता)

किशोर : (घोरेता घोरेता स्वप्नात बडबडता. परत घोरेता)

मालिनी : (उदकाची एक बालदी घेंवन येतां. ती किशोराचेर वतयता) उठ बेगीन. कामाक बिमाक कांय वचपाचें ना काय किदें तूका?

किशोर : (फडफडीत जागों जाता.) आगे सायबीणी हें किदें केलें? काय बरें सप्न पडील्लें आनी हें किदें केलें? सामकोंच भिजोन काडलों तुवें म्हाका?

मालिनी : आनी किदें करपाचें? कितलो उठयलो तूका पूण उठपाचें नांवच घेना तूं वेल्यान व्हडल्या व्हडल्यान घोरेता घु-ह घु-ह करुन. देवाक पांया पडलें ऑानी घालो तूका अभिषेक. चल उठ आतां.

किशोर : (उठत) उठ्ठा उठ्ठा मालिनी तुवें म्हजी सामकी वाट लायली गो.

मालिनी : म्हळ्यार हांवें तूका उठोवपाचो न्ही तर.

किशोर : तशें न्ही गो. आगो म्हाका सामकें फायद्याचें स्वप्न पड्डीले.

मालिनी : (हांसता) स्वप्न ! तेंवूय सामकें फायद्याचें ! एक सांग पळोवया ह्या स्वप्नांत कितली जोड जोडली तूवें? दी पळोवया म्हाका एक पांचशे रुपया. बाजारात वचून व्यापार घेवन य्रेतां.

किशोर : स्वप्नात किदें खरें पैशे मेळटात गो ?

मालिनी : मागीर कसलों फायदो जाला तर तुका ?

किशोर : किदें सांगो तुका स्वप्नात एक मनीस म्हाका सांगपाक लागलो तुका महाराष्ट्र सरकारची अकरा लाखांची सोर्त लागतली. हावें ताका विचारलें ती कशी? ... तो.

मालिनी : तो? ताचे किदें जालें?

किशोर : (कपलार हात मारीत रडपाक लागता)

मालिनी : आता अशें जालें किदें? रडटा किद्याक?

किशोर : रडटा किद्याक म्हणून विचारता. आगो तो म्हाका सोर्तीचो नंबर दितालो आनी हांव तो बरोवन घेतालो इतल्यान तुवे (आंगदाखयत) म्हाका हो अभिषेक घालो न्हीगो.

मालिनी : (हांसता)

किशोर : हांसता किदें मडसरी. म्हज्या सोर्तीचो नंबर गेलो व्हावंन तूज्या ह्या अभिषेकान.

मालिनी : तें बरे आसा चल आतां न्हावन धुवंन यो देवाक पायां पड मागीर च्या घेवया आमी.

किशोर : चल हांव वता न्हावपाक. हे पळय मालिनी, म्हाका जर कोणाचोय फोन आयलो जाल्यार सांग, हांव सकाळचो च्यापुसून घेनास्तना उठच्या उठून आसा तस्सो भायर सरुन गेला.

मालिनी : किदें ! आसा तस्सो! म्हळ्यार !

किशोर : सांग गो कपडे बीपडे घालून भायर सल्ला म्हणून. कळ्ळें न्ही? हांव येता रोखडोच (भीतर वता)

मालिनी : हाचे धंदे किदे तेच समजना म्हाका. काय बरो बेस्स वरो धंदो आशिल्लो ताचेर उदक सोडून वसला हो गोडा गणपती जावन.

प्रशांत : फोन येवपाक तों चलता तरी खंय बसला घरा गोंडा गणपती जावन. (भायल्यान आवाज येता. किशोर हे किशोर - हो प्रशांताचो आवाज़. किशोराचो इश्ट मालिनी बेजार जावन) ही आनी खंयची अवदीसा आयली काय सकाळी सकाळी - (परत आवाज - किशोर आरे उठलोना काय किदे रे आजून?) कोण थंय ( हांव तो प्रशांत) ही पीडा दिस्ता. आयलो पाड पड्डीलो सकाळी सकाळी च्यावेचों खर्च भागोवपाक आस्ताच साडेसाती कशी. आयले आयले काडटा दार.

प्रशांत : (मुरगडत) गूड मॉर्निग

मालिनी : (चिडचिडत) वेरी बॅड मॉर्निग

प्रशांत : काय नजो - परत एक फावट म्हणपाक कांयच हरकत ना

गूड मॉर्निग वयनीबाय.

मालिनी : गूड मॉर्निग. किदें रे प्रशांत आयज सकाळीच सो उदेलो.

प्रशांत : वयनी बाय आयज तुमचो गणो ना काय किदें ? दार तुमी शें काडलें.?

मालिनी : कित्याक हावें दार काडल्यार किदें घात जाता? तें सोड तू (प्रशांत दचकेता) तू कित्याक आयला तें सांगले न्हा तुवें?

प्रशांत : हांव तुकाच मेळपाक आयला

मालिनी : (रागान) किदें!

प्रशांत : तशे न्हिंगे हांव किशोराक मेळपाक आयलां. आता हावे सांगले न्ही. आता बसू मात्सों?

मालिनी : बस (स्वगत) हो मेल्लो च्याची ऑर्डर सोडटोलो. जशे हाणें आमचेकडेन किदेंतरी पोटली हाडून दवरिल्ल्याबशेन. (उघड) साखर आनी सोपली दिस्ता काल सांगिल्लें हाडपाक. हो विसरलो. हाची यादच तशी. आतां साखर नाशिल्ली (ताका पळयत) च्या पिवची पडली.

प्रशांत : (दचकेत तोंड वाकडे करीत) म्हळ्यार कोडू च्या पिवपाची? वयनी बाय हाव वचून हाडू साखर?

मालिनी : (खूष) हाड्टा ! चल तर वचून हाड. चड नाका रे एक किलच पूरो.

प्रशांत : आनीक किदें हाडपाक बी जाय ?

मालिनी : आनीक काय नाका. फक्त एक किल साखरच घेवन यो तू.

प्रशांत : दी तर पैशे.

मालिनी : तूजे पैशे घाल आनी हाड मरे. मागीर दिता हांव तूका.

प्रशांत : (आकांत येता) व्ह-व्ह- (बोलसा तपाशीत) वयनीबाय हांव-हांव म्हजें पाकीट हाडपाक विसरलों.

मालिनी : अशें ! आतां किदें करतलें कोडूच पिवची पडली च्याव. प्रशांत.

प्रशांत : वयनी बाय.

मालिनी : तुका चलाता मरे कोडू च्या ?

प्रशांत : (स्वगत) कोडू च्या हांव जन्माक पिलो ना.

मालिनी : कसलो विचार करता रे ?

प्रशांत : विचार! विचार आनी कसलो वयनीबाय. वेल्यान कोडू जीवाक बरें. वयनीबाय तूमका खबर ना दिस्ता हाली सगळ्या लोकांकच डायबेटीक जाता. गोंड्या मूतांचें दुयेंस तेन्हा तूमची कोडू च्या पिवपाक कायच हरकत ना. पूण वयनीवाय च्याबरोबर खावपाकय किदे हाडले म्हण्टकच जालें.

मालिनी : (स्वगत) पाड पोडू मेल्ल्याचे सोडली ऑर्डर कोडू च्याची. बरोबर खावपाक आनी जाय खंय.

प्रशांत : वयनीबाय चितपाक शी पडल्या?

मालिनी : काय नारे, हो गणू सकाळीं येता म्हण्टालो तो अजून कसो पावलो ना काय म्हणून विचार करतालें हांव.

प्रशांत : तो खंय गेला तर ?

मालिनी : ताच्या घरा गेला तो सकाळी येता म्हण्टालो (भायल्यान गणूचो आवाज येता. वयनीवाय ओ वयनीबाय येयलो गे हांव दार उघड.) (स्वगत) बरें जालें आतां आयलो गणू, हें कोडू च्याचे गणित गणूकच दिता. ह्या फुकट खाय-या प्रशांताक आयज च्या इतली दिवचें ना हांव (दार वचून उघडटा.)

गणू : (तकलेर एक पोंते आनी हातात एक पिशवी घेवन तवकत भीतर सरता)

मालिनी : हें किदे हाडलां रे ?

गणू : आवयन दिलां तें तकलेर म्हाज्या धाडून. हें नाचणे आनी हे थोडें उकडे तानूळ.

| | | |
|---|---|---|
| मालिनी | : | अशें. देव बरें करुं रे तुज्या आवयक. |
| गणू | : | (स्वगत) देव बरें कोरुं म्हणलें बरें या खावटाणीन आजून पगार दिवना म्हागेंलों. हायें नाका म्हण्टा आस्तना दिलां धाडून आवयन हें. |
| मालिनी | : | किदें जाले रे गणू वोग्गी स्रों? |
| गणू | : | (स्वगत) खवटाण विचारता कशी पळय. कायना कायना. |
| मालिनी | : | चल दवर त्यो पोटल्यो भीतर. |
| गणू | : | (पोटलेक हात घालतास्तना प्रशांताचेर लक्ष वता) वयनी बाय हों आनी सकाणीं सकाणीं केन्ना तवकोंलो फुकट खायरों? |
| प्रशांत | : | गणू तूं म्हाका फुकट खायरो म्हण्टा? तूजें केन्ना खाले रे हावें फुकट? |
| गणू | : | म्हाजे खावना जाल्यार किदें जालें वयनी बायलें खाता तें. |
| प्रशांत | : | गणू तूजे चड जालें तू ह्या घरचो मानाय. आनी हांव तूज्या धनयालों इश्ट. तू म्हजी फकणां करता. म्हाका फुकट खायरों म्हण्टा! |
| गणू | : | तसोच तूं. |
| प्रशांत | : | किदें ! गणू चड जालें मरे तुजें एकच वडयतोलो आनी काट्‌टलो आवाज कानां सकल. |
| गणू | : | (हासता) आवाज! काना सकल काडटोलो. प्रशांत भाऊ हो कानासकल आवाज तू काडटा कसों? |
| प्रशांत | : | हाव तुजो भाऊ न्ही तू म्हाका भाऊ म्हणशी तर खबरदार. हांव तुज्या धनयाचो इश्ट. |
| गणू | : | मागीर किदें म्हणो तूका? धनयाच्या इश्टा म्हणू? |
| प्रशांत | : | काय हकरत ना. पूण प्रशांत भाऊ म्हणल्यार काट्‌टोलो आवाज काना सकल. |

गणू : (परत हासता) हें किदें धनया इश्टा? कानां सकल आवाज काट्टॉलो म्हण्टा तू. तो म्हाकाय येता काडूक. काडू ?

प्रशांत : (आपल्या पोल्यांचेर हात दवरीत) काड पोळोवया?

गणू : काडू ! तूं काड म्हण्टा. मागीर म्हाजी चूक करशी. वयनीबाय पळयात तो कानां सकल आवाज काड म्हण्टा. तूं गवाय आसा. मागीर म्हाजी चूक करशी तेणें आवाज काड म्हण्ला. काडू मरे.

प्रशांत : (परत पोल्यार हात दवरीत) काड पळोवया मागीर पळयता हांव किदे करता ते.

गणू : काडू मरे?

प्रशांत : मरे मरे किदें म्हण्टा हांव तुज्या बरोबरचों रे? तूं म्हाकां राग हाडू नाका, ना तर पळय किदें करतोलो तें.

गणू : किदें करतोलो कानां सकल आवाज काडून दाखयतोलो. तो हांव काडटा न्हू काडू ?

प्रशांत : (पोल्यार हात दवरीत) काडून दाखयच तू.

गणू : (रागान प्रशांताच्या म्ह-यान वता असों कि तो आता ताजे पोल्याबरोवर एकच थापट लायिल्ल्या बशेन प्रशांत दोनय पोल्यांचेर हात दवरता. वयनीबाय भीता. हो ख-यानीच ताच्या पोल्याचेर मारता काय किदें) काना सकल आवाज काडू? केदों व्हडलो आवाज काडटा तो पळय. (प्रशांत भीता दोनी पोल्याचेर हात दवरीत मात्सो फाटीं सरता) काडूं? पळयता आवाज कसो येता तो पळयतां. (ताच्या बरोबर कानाच्या सकल व्हडल्यान ताळी. मारता) काडलो ना आवाज तुज्या काना सकल (प्रशांताक सा... जाता.)

मालिनी : हाव सामके भील्लें. हो गणू तूज्या कानसूला बरोबर मारीत म्हण.

प्रशांत : तो मारल्यार तूं ओगीच रावताशिल्ली? म्हाका दिस्ता

ओगी रावता आशिल्लीच तू. कळ्ळे ते म्हाका गणू इतलो वेळ म्हजेर थापट जोखून आयलो आनी वयनी वाय तू मात वोगीच. तुका मातय लज दिसना तुमचो मानाय म्हजेर थापट जोखता तुज्या घोवाच्या इश्टाचेर. हांव विचारताच हें किशोराक.

मालिनी : आरे किशोराक किद्याक हाडटा मदीं.

गणू : वयनीबाय तू किद्याक भीता. हाणेंच सांगला काना सकल आवाज काड म्हण. म्हणून काडलों तेगेल्या काना सकल आवाज. आनी हाये किदें तेज्या कान्सूलाचेर माल्ला हय तर? तेणे सांगलें तशें काडलो कानासकल.

मालिनी : आवाज.

गणू : ह्या फुकट खाय-याच्या

प्रशांत : पळय आता परत फुकट खायरो म्हण्टा म्हाका. किशोर आरे तू खयं आसा तू येता भायर काय हाव वोचू - किशोर (किशोर किर्तेतरी खायत येता.)

किशोर : आरे किदें जाला बोवाळ कसलो? (गणू पळयत) आनी तू गणू केन्ना आयलो रे?

प्रशांत : तो आयलो तसो ताणे म्हजेर घालून घेतला. वेल्यान वेल्यान काना सकल आवाज काडलो ताणे म्हज्या.

किशोर : किदें! गणू तुवें !

गणू : भाऊ तेणे सांगले म्हाका तसो आवाज काड म्हण नातर विचार वयनी बायक.

किशोर : (दोगांयकडे पळयत) आवाज काडलो म्हळ्यार तूवे प्रशांताच्या कानसूलाचेर माल्ले कांय किदें? (प्रशांत बेगीन बेगी पोलें धरता)

मालिनी : हांसता

किशोर : तूं आनी हांसता किदें गो?

मालिनी : मागीर किदें कोरु. आरे ताणे ताच्या कानसूलार मारुना फक्त ताळी मारुन आवाज काडला. गणू तू एक काम कर हे सामान पैली दवर आनी भीतर वचून तूज्या धनयाच्या इश्टाक च्या घेवन यो.

गणू : (वता वता परतता) वयनीबाय साखर आसा न्हू.

प्रशांत : नाका नाका आता म्हाका च्या नाका. किशोर खरेंच म्हाका नाका च्या. (गणू आनी मालिनी एकामेकाक पळोवन हांसतात)

किशोर : बरें आसा तर. (मालिनी गणू भीतर वतात) प्रशांत तुका बरोंच वेळ बसचें पडलें दिसता. हें आमचें सदांचेच आतां किदें कोरुया रे. दुकानात वतलो म्हळ्यार व्यापार ना सामको कफल्लक जाला. कोणांकडे थोडे रीण घेवन व्यापार भरतोलो म्हळ्यार तसो रीण दिवपी मनीसय मेळना.

प्रशांत : तेच सांगपा आयला न्हीरे हांव तुका.

किशोर : (खुष) किदें सांगता रे तूं!

प्रशांत : हय, कालच म्हाका एक वैंक्कय्या स्वामी नावाचो मनीस मेळ्ळा. एक लाख मेरेन तो रीण दिता.

किशोर : किदें ! एक लाख मेरेन ! राव रे रीण दिवपाची ताची पद्दत कशी किदें?

प्रशांत : जमिन, दुकान ओ घर त्या वस्तूचो वालोर दोबरार जावपाक जाय, ताच्या अर्धान तो पैशे दिता ती वस्त ताका दाखोवची पडटा.

किशोर : तशें जाल्यार बरें आसा, ताका हें म्हजें घर दाखोवया मरे.

प्रशांत : तर फाल्या हांव ताका घेवन येतां.

किशोर : यों तू घेवन ताका.

गणू : (मदीच येता) च्या हाड्र इश्टा?

**- काळोख -**

# देखावो २ रो

**(सकाळचो वेळ गणू साफ सफाई करीत पद गूणगूणता)**

किशोर आनी ताची बायल भीतर आसात . भायल्यान प्रशांत. आनी लुंगीवालो व्यंकया स्वामी येतात.

प्रशांत : (भायल्यान उलो घालता) किशोर ये किशोर आरे दार काड. वयनी बाय हे वयनी बाय.

गणू : कोण रे भायर सकाळी सकाळी?

प्रशांत : हाव तो.

गणू : हांव म्हणोन कोण?

प्रशांत : हांव रे तो. (बेजार जायत) ही बेल कित्याक बसयल्या वाजनाशिल्ली.

व्य.स्वामी : क्या! बेल नही बजता. उसका घंट्टी नही बजता?

प्रशांत : (भानार येवन) तांची लायट गेल्या स्वामी.... आरे दार काड रे.

गणू : आरे कोण तो सांग मरे.

प्रशांत : हाव प्रशांत! काड दार बेगीन.

गणू : कोण धनयालो इश्ट! फुकट खायरो?

प्रशांत : गणू व-या वशेन सांगता तुका, फुकट खायरो म्हणू नाका. दार उघड. म्हज्या बरोबर सोयरो आयला सांगता तुका.

गणू : (दार उघट्टा) यो यो भितर आनी हो कोण सोयरो लुंगीवालो? (हासता)

व्य.स्वामी : (तामिल स्वर) गुड्ड मॉर्निंग.

गणू : (शिटकावता) किदें म्हणले?

व्य.स्वामी : गुड्ड मॉर्निंग.

गणू : परत म्हण, परत म्हण परत म्हण.

व्य.स्वामी : गुड्ड मॉर्निंग.

गणू : गणू मोनो! तू म्हाका मोनो म्हण्टा! तूजी माल्ली शेणी. (रागान सगलोच नाचता) हांव मोनो! तूजो बापूय मोनो, तू मोनो, तूजी माल्ली शेणीं व्हरोंन. तूका दार काडले ते व्हडले म्हणना, वयल्यान म्हाका मोनो म्हण्टा तू लुंगीवालो. पडचें पयली वच भायर तकलेर पडचें पयलीं.

स्वामी : अय्यो स्वामी. प्रशांत वॉट हेप्पन टू हीम? आरे इसको क्या हुआ किदे जाले किदे जाले.

गणू : गणूक मोनो म्हणटा, वयल्यान कीदे जाले काय म्हणोन विचारता!

प्रशांत : गणू आरे तुका ताणे मोनो म्हणू ना रे गुड मॉर्निग म्हळा मरे ताणे तुका.

गणू : किदे ! परत गणू मोनो! फुकट खाय-या हाव तुका ओगी रावचो ना सांगता तुका हांव.

स्वामी : अयय्यो स्वामी ये क्या बोलता है? व्हाय ही इज डान्सिंग? (गणूकडे) अय्यो स्वामी हमने तुमको गुड मॉर्निंग बोला जी.

गणू : तरीकय गणू मोनो! हे तूका सांगता हाव परत गणू मोनो म्हणशी तर (तांच्या लुंगेक हात घालता) तूजी लुंगीच सोडोयतलो. (तो लुंगी धरीत कुशीक वता)

प्रशांत : (ताका धरीत) अरे गणू चल्ला कितें हें? पाड पड्डील्या तो रागान गेलो जाल्यार तुजो धनी वयर पडटलो. आरे तो रीण दिवपाक आयला तुज्या धनयाक.

गणू : पूण तो म्हाका सो मोनो म्हणटा तो किद्याक?

प्रशांत : (बेजारता) हो किशोर किदें करता काय. किशोर आरे किशोर मात्सो भायर यो बेगीन. स्वामी आप इसका धरनेका

नही हो सर्वंट आसा.

स्वामी : हे प्रशांत इसाका मालीक किदर गया.

प्रशांत : येता येतां तो. किशोर-किशोर (भितल्ल्यान - आयलो आयलो) आरे बेगीन यो.

किशोर : (येता) सॉरी मात्सो फाटल्यावटेन गेल्लो.

प्रशांत : हाणे आमका फुडल्यान धुवन खाल्ले हांगा.

स्वामी : गुड्ड मॉर्निंग

गणू : आरे म्हाका किद्याक मोनो म्हणटा तू.

किशोर : (तापता) गणू वोगी राव. ताणी तुका केन्ना मोनो म्हळा रे!

गणू : आता म्हणला ते किदें?

किशोर : ताणे गुड्ड मोर्निंग म्हळा. म्हळ्यार देव बरी सकाळ दिव.

प्रशांत : इतलो वेळ ताका हेच सांगपाक सोदतालो हांव. कसोच आयकुपाक तयार ना. वेल्यान स्वामीक ताणे सामको इसूलदाद केलो.

किशोर : सॉरी सर आपको हमने तकलीफ दी.

स्वामी : अय्यो स्वामी कुछ पर्वा नही मगर इसने हमारे लुंगी को हात क्यों डाला जी? हमारा लुंगी बोला तो देश की शान है मेरे दिल की आन है.

किशोर : वो थोडा पागल है. गणू तू भीतर वच.

गणू : वयता - वयता. म्हाका खंय खबर आसा गणू मोनो म्हळ्यार बरी सकाळ म्हण.

किशोर : हे पळय च्या घेवन यो आमका

प्रशांत : कडू बी हाडशी

किशोर : वयनीबायक भायर धाडून दी

गणू : बरें बरें... (स्वामीच्या लुंगीक पळयत वता स्वामी लुंगीक धरता)

प्रशांत : किशोर हे वेंक्कय्या स्वामी - आनी स्वामी हे किशोर महाड

किशोर : बसा न्ही बसा (स्वामी तांच्या तोंडाक पळयत रावता) सर आप बैठो सीट डाऊन प्लीज.

स्वामी : अय्यो ! बस बोला तो बैठो! थँक्यू. देखो गोवा मै आके हमको दो महिना हो गया इसलिए आपका भाषा समजनेको थोडा मुष्कल. हमारा बाकी लोग आपकी भाषा समझते है बोलते है हम भी थोडा दिन के बाद बोलेगा जी. वो छोडो जी अब हम बीसनेस की बात करेंगे. बोलो जी आप का क्या धंदा चलता है.

प्रशांत : स्वामी हम काल तूका बोला नी.

स्वामी : अय्यो स्वामी वो ठीक है जी. मगर जीसका बीजनेस है ओ बोलना मांगता है जी.

किशोर : सर मेरा फोंडा मार्केट मे दुकान है ... (इतल्यान मालिनी इन्ट्री मारता. स्वामी ताका पळोवन मात्सो फुलता)

स्वामी : अम्मा ! ये कौन है जी आओजी (रोखडोच गणू च्या घेवन फाटोफाट येता.) इंगा बेरीया.

किशोर : वह मेरी बीबी है

स्वामी : बीबी! इंगा बेरीया ?

गणू : वयनीबाय मात्शी फाटी राव गे तो लुंगीवालो कसो उठला तो पळय दोळें पिट पिट करीत.

स्वामी : ये क्या बोलता जी. पागल है पो-पो- सर्वंट पो पो सर्वंट

प्रशांत : (भीता) स्वामी क्या हुआ तू पो-पो शें करपाक लागलो.

स्वामी : इसका हमको डर लगता है तूम इसको अंदर भेजो जाव पो-पोव अंदर जाव (प्रशांत सुसकारो सोडटा)

किशोर : गणू तू च्या दवरुन वच पळोवया भितर. (गणू परत तागेल्या लुंगेक पळयत भितर वता, तो लुंगी सांबाळटा) हां

|  |  |  |
|---|---|---|
|  |  | बोलो सर. |
| स्वामी | : | ठीक है. ठीक है तो आपको पैसा मांगता है? कितना पैसा मांगता है (एका नजरेन मालीनीक पळयता, प्रशांत तें नोट करता.) |
| प्रशांत | : | स्वामी काल आपको सांगला न्ही. |
| स्वामी | : | अय्यो आप बोला ठीक है. जिसको मांगता है वो बोलना मांगता जी. अम्मा आप बोलो कीतना पैसा मांगता है. |
| मालिनी | : | (रागान) हो मेल्लो म्हाका किद्याक विचारता? पळयता कसो पळय. |
| किशोर | : | सर हम बोलता है. हमको पुरा मिलाके एक लाख रुपया मांगता है. (स्वामी मात्सो दचकेंता) |
| स्वामी | : | एक लाख! इतना क्यों मांगता है जी? |
| किशोर | : | आता एका लाखाचो वालोर खय उल्ला. बोला तो थोडा थोडा व्यापार डालना मांगता है. |
| स्वामी | : | (घाम पुशीत) एक लाख मांगता है? ठीक है. मगर हमारा पैसा बराबर देना मांगता है टायम टू टायम. हमारा गांव का जमीन बेचके मैने ये पैसे लाया, तीन लाख लाया हम पचीस हजार के उपर देता नही. फिर भी तुमको देता है जी. (प्रशांत किशोर खूश जावन हातात हात दितात. स्वामीची नजर मालिनीकडे आसता.) आप एक काम करो. |
| किशोर | : | क्या करु? |
| स्वामी | : | आपका घर का डॉकुमेंट हमारे पास रखो. |
| किशोर | : | ठीक है. प्रशांत ती झेरोक्स कॉपी दिवना रे ताका ? |
| प्रशांत | : | स्वामी हमने काल दिया ना पेपर तुमको, वोच पेपर इसका है. |
| स्वामी | : | अय्यो अम्मा वो पेपर इसका है. ठीक है हम पैसे देगा मगर आप हमको दिनको एक हजार रुपया देना पडेगा वो भी चार महिने तक क्या अम्मा (मालिनीक विचारता) चलता है? |

मालिनी : हो मेल्लो परत परत म्हाका सो विचारता?

किशोर : चलता है चलता है (एका सोर्तीकाराचो आवाज कुटत-कुटत) सोर्त-सोर्त-सोर्त आयज आयज आयज आवंर्त, महाराष्ट्र सोर्त, गोंयची सॉर्त आयज आयज आवेर्त लक बाय चान्स सोर्त काडात सोर्त आनी जायात वीस लाखांचे धनी सोत... एकरा लाकांचे धनी लक बाय चान्स सोर्त (भीतल्यान गणू धावत येता.) गणू तू सो किद्याक धांवन आयला रे?

गणू : (लुंगेक पळयत स्वामी लुंगी धरता) सोर्तीकाराक पळोवपाक येयलेलो. भाऊ तेका दार काड्रू हांव? पैयर सोर्त काडलेली ती पोळोवपाक जाय. (लुंगेक परत पळयता)

प्रशांत : आरे गणू तूका किदें आसा काय ना रे. आरे हांगा चल्ला किदे ते तरी पळय मरे.

किशोर : गणू तू भीतर वच मात्सो. ह्या पात्रावाक पयली वयार कोरुया. तो गेलो म्हण्टकच तूगेली सोर्त पळय तू (गणू प्रशांताक आनी स्वामीक पळयत वता आसतना परत आवाज. सोर्त सोर्त लक बाय चान्स धा रुपयांक एकवीस लाख दोन रुपयांक पाच लाख) आरे चल भीतर, सांगले न्ही तूका हाका पयलीवचूनी मागीर हावच आफतया त्या सोर्तीकाराक भीतर. आता तरी जाले? चल आता भीतर.

स्वामी : अय्यो अम्मा हे सोर्त सोर्त कौन क्या बोलताजी?

गणू : हेची मडसरी - (वता भीतर)

प्रशांत : स्वामी तो सोर्तीकार ... लॉटरी लॉटरीवाला.

स्वामी : अय्यो अम्मा लॉटरीवाला हमको भी लॉटरी निकालना मांगता है जी. किदर है वो उसको बुलाव. क्या पता लगा तो लगा.

मालिनी : (प्रशांताक हळुच सांगता) हो सोर्त काडपाक सोदता तो हाचेकडे खरेंच आसा मरे दूड्रू रीण दिवपाक?

प्रशांत : आसा तर म्हणून आयला न्ही तो घर पळोवपाक. म्हज्यामुकार ताणे दुस-यांक पैशे दिल्यात ते ह्या दोळ्यांनी पळायला हावे. कोणांक धा हजार , कोणाक पंचवीस हजार तर कोणाक पन्नास हजार हांवे खात्री करुनच हाडला ताका. ताचे किदें आसा वयनीबाय पैशे आशिल्ल्या लोकांक पैशांची आस चड, (ती उलयता आसतना स्वामी तांका पळयता) हे लोक पैशे कशें मेळटात हाचेर बारीक लक्ष आसता. सोर्तीतल्यान तर सोर्तीतल्यान म्हणून सोर्त काडपाक सोदता. पूण म्हाका खात्री आसा तो आमका पयेशे दितलो.

स्वामी : (मालिनीक विचारता) अय्यो अम्मा आप कसूर कसूर क्या बोलता जी?

मालिनी : (बेजारोन) हे बायजण परत परत म्हाका किदें विचारता. तूमी दोगय आस्ताना?

स्वामी : अम्मा आप क्या बोलता जी.

किशोर : ओ बोलती है आप बहुत अच्छे है (स्वामी मुरग्टा) बोलती है आप हमको लोन जल्दी देगे क्या?

स्वामी : लोन देने का मेरा कंडीशन आपको मैने बोला मेरा दुसरा कंडीशन (प्रशांत किशोर दचकतात) मैने आपको बोला मेरोको डेली एक हजार देनेका, मै रोज पैसा लेने को तुम्हारे घर आयेगा (मालिनीक पळोवन) अम्मा के पास रखा-तो चलता. आपको मंजूर ? (मालिनीचे रिअक्शन)

किशोर : बिलकूल मंजूर. आप लोन कब देता है वो बोलो.

स्वामी : कल दस बजे हमारे ऑफिस आवो पैसा लेके जाव मगर मेरा एक कंडीशन (किशोर प्रशांत परत दचकतात) आप हमको एक घंटा कोकणी सीखाना मांगता है. मंजूर

किशोर-प्रशांत : (एकदम बरोबर आवाज) मंजूर (सोर्तीकाराचो भायल्यान परत आवाज येता) लक बाय चान्स सोर्त काडात सोर्त

आनी जायात एका रातीन लाखा दिश, कोठ्यादिश आनी हजारांचे धनी. फकत धा रुपया आनी पांच रुपयाक जायात व्हडले मनीस. (गणू धावत येता.)

गणू : राव रे सोर्तीकार राव रे येतां येतां.

स्वामी : अय्यो सोर्त! उसको बुलाव.

किशोर : गणू आपय त्या सोर्तीकाराक (गणू ताका हाट्टा)

सोर्तीकार : आयज आबर्त आयज आयज एकवीस लाख, अकरा लाख सोर्त पाच लाख घेयात फक्त पाच आनी धा रुपयांत आनी जायात धनी सोर्त सोर्त ......

गणू : पैर गोंयचो नंबर कितलो येयलो रे सोर्तीकार?

सोर्तीकार : आठको

गणू : (नाचता) वयनीबाय म्हाका लागली सोर्त म्हाजेकडे आठको आसा.

सोर्तीकार : पळोवया कसो किदें आसा तो (सोर्त घेवन लिस्ट चेक करता) आरे ही सोर्त ए सीरीसाक लागल्या तूगेली बी सीरीस आनी फूल नंबर ना पूण तीन नंबराक तूका फक्त पन्नास रुपये लागले. सामको काटार गेलो.

गणू : (नाचता) पन्नासच रुपये! लागले! पूण सोर्त लागली वयनीबाय पन्नास रुपया लागले. (नाचता)

सगळे : पन्नासच रुपये !

**-काळोख-**

# देखावो ३ रो

किशोर : खरेंच प्रशांत तूका देव बरें करु. तूका लागून म्हाका आयज स्वामीन पैशे दिले. किदे सांगू तूका जीव सारखो वयर-सकल येतालो. आरे हांव कितल्या लोकांक रीण आसा म्हणून सांगू तूका. तो मडकेंकार म्हाका बाजारात वचपाक दिना. लागता फाटल्यान सामको राक्षस कसो. पैर सामके तीग जाण गुंडाक सोडले ताणे म्हजेर. तरी बरें फक्त शिटकावणी दिवन सोडलो. तो व्होलसेलवालो दुकानात सामको पसण मारुनच बसता. म्हणून दुकानार वचपाचें बंद केले हावे. आनी तो सातको सोर्तीकार लागला फाटल्यान सामको. उरील्यो सगळ्यो सोर्ती म्हज्या गळ्यात हाडून घाल्यात. लागप मात कांय ना. उलट पैसे वाडून-वाडून तागेले जाले पाच हजार हांगाचे थंयचे दिवपाचे रीणच जातले साठ-सत्तर हजार. हे सगळे रीण दिले जाल्यार प्रशांत म्हज्या हातात आनी उरतलें किदें?

प्रशांत : ते बरोबर आसा. तातुतले म्हाका एक दा हजार दी मरे.

किशोर : किदे ! हातुतले तूका आनी दा हजार कशे दितलो? वेल्यान त्या स्वामीन कंडीशन घालून एक लाख रुपये दिल्या हे. दिसाक एक हजार ताका दिवपाक जाय. रीण घेतला खरे पुण ते फारीक करतलो कसो हो विचार करुनच एकाच रातीन म्हजे केस पीकले शे दिसता. पळय-पळोवया धवें जाले जाल्यार.

प्रशांत : (बारीकसाणेन ताजे केस तपासून पळयता) नारे तुजे केस अजिबात पिकूक ना. पयलीचेच ते थोडे-थोडे खंय खंय पिक्कीले आसात ते आसात.

किशोर : (बेजारता) तू आनी कीदें सांगतलो तूका जाय न्ही दा

हजार. आयक, तू एक काम कर तू तूज्या नावार त्या वेंक्कय्या स्वामीक धा हजार दिवपाक लाय. दिसवडो किदें जाता तो भरुया आमी.

प्रशांत : तो म्हाका दिवपाक तयार ना. कारण म्हज्या नावार कांयच ना. जे किदें आसा ते सगळे बापायच्या नावार आसा, म्हणून तुगेल्यातले दा हजार दी म्हाका. हांव तूका रोखडेच दिता.

किशोर : तू रोखडे कसो दितलो? रोखडे दितलो जाल्यार घेता आनी किद्याक ते?

प्रशांत : (काळकुटी येवन) खरेंच किशोर हांव तूका रोंखडेच परत दिता तूगेले धा हजार.

किशोर : म्हजे म्हणपाक ते किदें म्हजे तर. आरे रीण मरे तें वेंक्कय्या स्वामीलें. राव रे प्रशांत तूका हे धा हजार जाय तरी किद्याक आनी तू हे धा हजार परत करतलो तरी कशे? ह्या दा हजारांनी तू करतोलो तरी किदें? गाडो बीडो घालपाक सोदता काय किदें रे?

प्रशांत : गाडों! धा हजारांनी गाडो जाता? तो केलो जाल्यार व्यापार खंयचो घालतलों? आता गाडो करतलोच जाल्यार पंधरा हजारां वयर लागतात. बरें गाडो केलो अशें धरुन चल, मागीर तो लायतलो खंय आनी लायलोच धर, ज्या जाग्यार लायता थंय गि-हायक जातलें म्हण गॅरेंटी किदें? समज लायलो आनी गि-हायक जालेच ना अशे धरुया मागीर करता किदें? एक बेस्ट धंदो आसा. तो गाडो मागीर खंयच्याय कोनश्याक घाल. गि-हायक तूका वास घेयत पावता आनी हो धंदो मात बेस बरो चलता. कसलो खबर आसा तूका?

किशोर : कसलो रे?

प्रशांत : मडक्याचो. हातूंतल्यान तूजे धा हजार रोखडेंच भरुन येतले. पूण हांगाय आडकाटी.

किशोर : ती कशी ?

प्रशांत : तू आनी. तूका खबर नाशिल्याबशेन विचारता मरे, आरे हो गाडो लायतलों खंय हो व्हडलो प्रस्न जावन आसा. समज मुन्सीपाल्टी एरीअेत लायलो जाल्यार मुन्सीपाल्टी तो रोखडोच उबारुन व्हरुन मारतात आपटीक, मागीर तो नवों काय पोन्नो हें तांका कांयच लागना. पंचायतीच्या वाटांरात लायलो जाल्यार तीच गत. बरें तूका तर खबर आसा हांव त्या आमदारांकडे आनी मंत्र्याकडेनय लेमडेपणा करपाक वचना, आनी तूका हांव खरें सांगता किशोर ती चमचेपणा करुन तांच्या फाटल्यान शेपटी हालयत भोवपाक म्हज्या तत्वांक बसना. ना तर हांव तो भगवो आनी पाचवो रंग आशिल्लो गाडो केन्नाच काबीज करताशिल्लो.

किशोर : एक सांग प्रशांत तुवे त्या गाड्याक ॲप्लाय केला?

प्रशांत : ॲप्लाय करपाक तो रंग खंय उल्ला? तो गेलो. आता गोंयच्या काळ्या ब्लॅकबोर्डाचेर धवो आनी पाचवी बोर्डर आशिल्लो रंग चार ते पाच रंग घेवन पाचजणांनी पिताल्ला तें सोड. तें आमकां लागना. आमकां तश्या तरेच्या पेंटाचों ब्रश तरी खंय धरपाक कळटा.?

किशोर : म्हाका तुज्यो ह्यो गजाली नाकात. तूं सांग तूं धा हजार घेवन करतलो तरी किदें? (गणू प्रवेश करता)

गणू : (प्रशांताच्या म्ह-यान वचून) गणू मोनो (प्रशांत ताका अजाबान आनी बेजारुन पळयता) गणू मोनो (टोन गुड मॉर्निंगाचो ) हो ओंगी सो रावलों. गणू मोनो.

किशोर : आरे गणू तुगेंले जालां किदे? तू मोनों किद्याक म्हण्टा ?

गणू : भाऊ हें किदें आता पैर तूयेच म्हाका सांगला (टोन) गणू

मानो म्हणल्यार देव बरी सकाळ दीवं : हो तूगेलो इश्ट बेजार जायत म्हणोन हायें तेका (टोन) गणू मोनो म्हणलो? (दोगय हांसतात)

किशोर : आरे पिशा गणो मोनों न्ही गुड मॉर्निंग कळ्ळे तूका? म्हण पळोवया सारखे. (दोगय हांसतात) गुड मॉर्निंग.

गणू : (प्रशांताच्या कानाकडे वचून) गुणू मॉर्निंग.

प्रशांत : गणू बेजार करुनाका. मात्सो पेल्यान वच पळोवया.

गणू : (अजापान बुडटा) किदे! भाऊ, भाऊ हेका हांव वोगी रावचोंना.

किशोर : आता किदें जालें?

गणू : हो पळय तुजो इश्ट म्हाका किदें म्हण्टा तो. मात्सो पेल्यान वच खंय. भाऊ तू म्हाका एक सांग, पेल्यान वचपाक आमगेर येदो व्हडलों पेलों आसा तरी खंय? (प्रशांत कपलार हात मारता किशोर हांसता)

किशोर : (हासत) गणू तूं मरें सामको बैल, इतलो तेप आमगेर आसून लेगीत तूका खबरना? पेल्यान वच म्हळ्यार पैस राव, वो लागी रावों नाका.

गणू : अशें! पूण भाऊ इतलों तेप म्हाका तूमी कोणेंय पेल्यान वच म्हणोन सांगोना. वयनीबायन सुध्दा केन्नाच सांगोना.

किशोर : किदें ! तें सोड. तू आता मात्सो भीतर वच आनि आमकां च्या घेवन यो पोळवया.

गणू : भाऊ - तूमी (कानात सांगत) आतच च्याव पिल्यात नू? (किशोर ताका मात्सो रागान पळयल्या बशेन करता गणू सोमतोच कुशीक सरता) हांव हाडटा - कितकी जाय तीतली खेप च्याव हाडटा म्हाजें कितें वयता तर साखर च्याव पावडर सोंपलो जाल्यार तुजो सोपतोलो. खूटी हाडू काय दूधाची हाडू?

किशोर : कसली हाडटा ती हाड, आता उपकार करुन मात्सो वच. आमकां उलोवपाक जाय हांगा. (भायल्यान स्वामीचो आवाज)

स्वामी : अय्यो अम्मा दरवाजा खोलो जी हे किशोर तूम दरवाजा बंद करके क्या करता जी. अम्मा हे अम्मा दरवाजा खोलो.

प्रशांत : हो. रोखडोच कसो आयलो? आतांच आयल्यात न्हीरे तू ताचेकडल्यान ? हो आमच्या फाटोफाट कसो?

किशोर : हो वेंक्कय्या स्वामी म्हळ्यार बरोच चालू सो दिस्ता पळोवया किद्यांक आयला तो (दार काडटा) यो वेंक्कय्या स्वामी यो.

स्वामी : (अजाप) अम्मा, अप्पा ! तूम हमको सर बोलताजी. हम वेंक्कय्या स्वामी कैसा हुआ ?

प्रशांत : आता पैशे मेळ्ळे.

स्वामी : अय्यो अम्मा प्रशांत तूम क्या बोलताजी.

किशोर : ओ! आप को कोंकणी मे थॅक्यु बोला. आप हमारे पीछे पीछे क्यों आया?

स्वामी : अय्यो अम्मा मेरा एक बहुत बडा मिस्टेक हो गया जी. क्या हुआ पता?

प्रशांत : आमको कैसा चलेगा पत्ता पत्ता. हो आनी किदे उलयता रे.

स्वामी : वो ही बोलता है नाजी. किशोर जी आपको हम पैसा दिया जी?

किशोर : हा दिया

स्वामी : कितना दिया जी?

किशोर : एक लाख

स्वामी : अय्यय्यो अम्मा हम इधरच मिस्टेक किया जी.

प्रशांत : मिस्टेक ! कैसा मिस्टेक ! तूवें जादा पैशे दिले?

स्वामी : वोही बोलता है ना जी. आपको हमने जादा पैसा दिया.

किशोर : हें सामके माळूक कशें मरे.

स्वामी : क्या बोला जी?

किशोर : कुछ नही कुछ नही? हम बोला पैसे का मालिक आप है .

स्वामी : (हांसता) वो तो है नाजी. हम तुमको बोलता है मैने आपको पैसा दिया जी. मगर ज्यादा पैसा दिया जी.

किशोर : ये कैसे हो सकता है. तूमने हमको ज्यादा पैसा नही दिया.

स्वामी : दिया जी

किशोर : नही दिया

स्वामी : दिया जी.

किशोर : नहीं दिया जी.

स्वामी : दियाजी दियाजी

गणू : (आबूज जावन भायर धावन येता) आरे कसलो बोंवाळ? (स्वामीकडे पळयत) आनी हो लुंगीवालो दायजी दायजी किदें म्हण्टा? भाऊ हों किदें तूमगेंलो दायजी बीयीजी लागता कांय किदें? (ताच्या लुंगीकडे पळयता तो लुंगी सांबाळटा) काय फोर्सान दायजीपण लावपाक सोदता? (परत ताका पळयता) पातयो नाका तेका धड लागना हो म्हाका.

स्वामी : हे सर्वंटा तूम क्या बोलता. पो-पो-पोंयटे पों.

गणू : हो लागलो पों-पों करपाक. आमगे ते पोंयलूचे पोदेर कमी जाले खरे पूण हें पोंदेर पॉ-पॉ करीत कितलेशेच वाढलें. भाऊ हेका सांबाळून.

किशोर : गणू तू किद्याक आयलो भायर ?

गणू : हो दायजी दायजी म्हण्टा ते म्हाका भीतर आयकोक येयले म्हणोंन येयलो पोळोवपाक.

स्वामी : (बेजेंसावान) अय्यो ये किसोर ये क्या जी तूम्हारा ये सर्वंट

बार बार इन्टरफियर क्यों होता है जी? वो मालीक और तूम उसका सर्वंट बन गया जी. (गणू रागान तागेल्या लुंगेक पळयता तो कच्च करुन लुंगी धरता)

किशोर : उसका छोडो. वो हमारा फॅमिली मेंबर है. बचपनसे हमारे यहाँ है.

स्वामी : मगर बारबार वो हमारे लुंगीको क्यो देखता जी? ये किशोर तूमको रिकवेस्ट करता जी हम उसको थोडा अंधर भेजो जी. हमको उसका डर लगता है जी. वो बार-बार हमारे लुंगी को देखता है जी.

किशोर : गणू तू आता भीतर वच पळोवया.

गणू : हांव वयता. भाऊ च्या. च्या हाडू न्हू?

प्रशांत : आता आनी च्या खंयची आता जेवणाचों वेळ जालो मरे.

(गणू) : (ताका माणून पळयत) हो फुकट खायरों आयज जेवणा तयारेन आसा.

प्रशांत : (किशोरांक) हाच्या बापायचे किदे वता? हांव ताका ओंगी रावचोना सांगता तूका किशोर.

गणू : आनी हांव ह्या लुंगीवाल्याक ओगी रावचो ना (ताका पळयत तो भीता) परत परत दायजी म्हणत जाल्यार.

किशोर : (तापता) आरे तूका हावे सांगलां न्ही भीतर वच म्हणून तरीकय? चल वच आतां जेवणाची तयारी कर.

गणू : (तांका पळयत) आजून वयनीबाय येवना.

किशोर : येवना जाल्यार येतली. आता मात्सो वच पळोवया (तो वता)

स्वामी : पोआ पोआ पो-पो.

गणू : पो-पो करु नाका सोमती लुंगी सोडटलों (वता)...)

प्रशांत : सुटलो सायबा हाच्या तोंणातल्यान.

किशोर : स्वामी अब बोलो तूमने हमको पैसा ज्यादा कैसा दिया.

स्वामी : बोलता जी. हम तूमको एक लाख रुपया दिया जी.

किशोर : हा दिया

स्वामी : बराबर. हम भूल गया जी

किशोर : क्या भूल गया?

स्वामी : उसमेका जी दस दिन का ॲडवन्स हमने कट नही किया वोही मेरा मिस्टेक हो गया जी.

किशोर : वो कितना?

स्वामी : दस दिनका ॲडवान्स दस हजार जी.

प्रशांत : (हे आयकून प्रशांत घुवळ येवन सोमतोच सकल पडटा)

स्वामी : अय्यो इसको क्या हुआ जी?

किशोर : ताका भि-हातेंचो गूळो चडून आयलो. ताका मेळपाचे दा हजार गेलें म्हणून.

स्वामी : अय्यय्यो ये सड्नली कैसे गिराजी ?

किशोर : गणू गणू आरे उदक घेव्हन बेगीन भायर यो. (स्वामी किशोर ताका उठोंवन बसयतात - भीतल्यान गणू उदकाचो कळसोच घेवन भायर येता. प्रशांताक पळवोन)

गणू : फुकट खायरो! आरे हेका आनी किदें जाले?

किशोर : गणू गणू गणू खरेंच तूका मात्शीपूण अक्कल ना. आरे तूका उदकाचो कळसो घेवन कोणे आपयला? सारखो बाद मरे तू.

गणू : हांव जाणा. हाव कळसो दवरता थंयच आशिलों इतल्यान तुवे येद्या व्हडल्यान उदक हाड म्हणून सांगले ते आयकोन हाये सोमतोच उदकाचो कळसोच हाडलो. (किशोर कळश्या हात घालून उदक काडून प्रशांताच्या तोंडार मारता.)

प्रशांत : आरे हाव खय आसा? किशोर म्हजे धा हजार आसा मरे?

किशोर : तूगेले आनी खंयचेरे धा हजार?

स्वामी : प्रशांत आपको क्या हो गया जी और तूम हजार हजार क्या बोलता जी.

किशोर : वो बोलता है आपका दस हजार है ना वो उसका है

स्वामी : अय्यो अम्मा ये क्या बोलता जी तूम? मेरा पैसा उसका कैसा हो गया जी.

किशोर : वेंक्कय्या स्वामी. वो बोलता है. वो दस हजार उसको मांगता है.

स्वामी : उसके पास कुछ पेपर नही जी मै उसको दस हजार कैसा दे सकता जी.

किशोर : दी रे ताका

स्वामी : नही देगाजी.

किशोर : आरे दी रे ताका

स्वामी : नही......

किशोर : हे दो ना रे उसको

स्वामी : तूम बोलता तो देता जी. लेकिन हमारा एक कंडिशन.

किशोर : अभी और कैसा कंडीशन?

स्वामी : आप उसको ग्यॅरेंटी देना पडेगा

किशोर : (नेटान) दिया

स्वामी : इसका दस दिनका एक हजार कट करके नायन हजार मैं देगा. चलता जी? और वो दस हजार.

किशोर : चलेगा.

स्वामी : तो पुरा मिलाके एक हजार सौ रुपया कल से भरने को चालू करो. किशोर जी वो तूम्हारा दस हजार हमको दो. दस दिन का चलेगा.

प्रशांत : (नेटान) चलेगा. (दुस-यावटेन किशोर घुवंळ येंवन पडटा)

| | | |
|---|---|---|
| स्वामी | : | हे क्या हुआ जी! पयले तूम पडा जी अब ये क्यो पडाजी? |
| प्रशांत | : | तूजी मडसरी हुआजी (प्रशांत ताका उठयता) किशोर-किशोर ... तों दोळें उघट्टा. ताका घाम येता) ये स्वामी होतो फॅन लगाव (स्वामी बटण सोदता गणू पावता) |
| गणू | : | किदें जालें? आनी हो किद्याक घुवंता कित्याक जलता? |
| प्रशांत | : | ताका फेनाचो बटण दाखय. किशोराक गरम जाता. |
| गणू | : | ह्या फकाणांक फॅनाचो बटण खबर ना (हातान खुणावन दाखयता) हो पळय थंय आसा. (स्वामी बटणाक हात लायता तोच ताका शॉक येता तो थरथरता) आरे हेका किदें जाता! हों किद्याक नाच करता तें पळयता. होच बरो चान्स आसा हेगे लुंगी सोडवपाक ( तो त्याच्या लुंगेक धरपाक वता तोंच ताच्या कमराक दसून उरता...) |
| प्रशांत | : | आरे किदें. फॅन चलना? आनी हो तो गणू ताज्या कमराक धरुन किदे करता. गणू तूगेली फकणा चड जाली. फॅन लाय रे, सोड ताच्या कमराचो (ताचे ॲक्शन कायना ते पळोवन प्रशांत गणूक धरता थंय तो घट्ट जाता.) |
| किशोर | : | (पळयता) आरे किद्याक झगडटात तूमी. प्रशांत तो पिसो रे सोड त्या गणूक - प्रशांत सोड ताका (प्रशांताक तो काडपाक वता तोवूय उरता.) |
| मालिनी | : | (हातात बाजाराची पिशवी धेवन भीतर सरता हांची ही सर्कस पळयता) आरे आरे हे किदे जाले! किशोर प्रशांत गणू.. आनी हो मेल्लो स्वामी ! हे किदें करतात! हा! हे फॅन लावपाक गेले दिस्ता. त्या फॅनाचो बटण सामको लूज आसा. हांका आयला शॉक. ऑफ करता मेनच ऑफ करता. (मालिनी लायट ऑफ करता. ते सगळे एकमेकांचेर पडटात.) |

**- काळोख -**

# देखावो ४ थो

**(गणू साफ सफाई करीत करीत फॅनाच्या बटणाकडे पावता)**

गणू : (त्या बटणाक पळयता हात लावपाक वता आनी बोवाळ मारता) आवयगे (परत हात लावपाक वता परंत फाटी सरता) आवय आवय आवयगें (थरथरता) हांगा शॉक येता, आवयगे आवय (बोवाळ आयकून मालिनी धावन येता.)

मालिनी : गणू! आरे किदें जाला बोब किद्याक मारता? आनी असो थरथरता सो किद्याक रे! परत शॉक आयली काय किदें? पूण तू त्या बटणाकडे ना मरे तूका शॉक कशी येतली? (ताच्या फुड्यात वचत) पळोवया शॉक आयली जाल्यार.

गणू : (तें हात लावपाक) आवयगे, आवयगे, शॉक येता शॉक (गणू भिवन किद्या किदें बडबडटा)

मालिनी : हाका करपाचे किदें? त्या भयान हाच्या मनाचेर बरोच परिणाम जाला सो दिस्ता. आता किदें करपाचें हाचेर एकच वडयल्यार बरें (गणूचेर एकच सान्नी मुणो मारता)

गणू : आवयगे (म्हणून सकल पडटा आनी निजेतल्यान जागो जाल्या बशेन करता) वयनी बाय तू भीतर आशिल्ली न्हू तू हांगा कशी पावली?

मालिनी : (हांसता) हांव भितर आशिल्लें काय तू रे भितर आशिल्लो?

गणू : हाव भितर आशिल्लो! हांव हांगा कसो पावलो?

मालिनी : तू रानच्या कुडीतल्यान पावलो, शॉक आयलो दिस्ता.

गणू : (उडी मारुन उठटा) किदें शॉक !

मालिनी : गणू आता शॉक बीक काय येंवचोना परतो तो बटणच बदलून वडयलो हावें. आता तूका भिवपाची गरज ना.

गणू : जांव सायबा देवचार पावलो.

मालिनी : किदे!

गणू : तूका हाये देवचार म्हणों ना देवचार पावलों म्हणल्यारच देव पावलो. (भायल्यान सोर्तीकाराचो आवाज सोर्त सोर्त वयनीबाय सोर्तीकार येयला आपयाता तेका हांव हे सोर्तीकार रावरे (ताका भीतर घेवन येता)

सोर्तीकार : आयज आबेर्त महाराष्ट्र सरकार, नागालँड सरकार, कर्नाटक सरकार आनी गोंय सरकारन तुमच्यामुखार हाडल्यात कोठ्यावधी सोर्ती. लक बाय चान्स फक्त धा आनीं पाच रुपयांक जायात लाखोपती करोडपती सप्न तुमचे साकार करात फक्त पाच आनी धा रुपयात. काडात काडात काडात सोर्त काडात (सगळे घरच भोंवता) सोर्त सोर्त सोर्त फक्त दोन नंबराक वीस रुपये घेयात. पूण दियात पाच आनी धा रुपये.

मालिनी : (बेजार जाता) ये सोर्तीकार हे तुवे किदें चलयला रे? तुवें म्हजे घर म्हळ्यार बाजार धरला रे? सोर्त सोर्त करुन म्हज्या घरात नाचता तो.

सोर्तीकार : तशे न्हू बाय हेणे म्हाका आपोवन हाडला न्हू.

मालिनी : तूका किदें नाच करपाक हाडला ? ताणे तूका सोर्त पळोवपाक हाडला.

सोर्तीकार : बाय चूकलो हांव आमगे धंदो न्हु तो सोर्तीचो तू एक काड बाय सोर्त मुद्दाम पळय काडून लागत जाल्यार कोट्याधिश नाजाल्यार लाखाधिश तरी जातलेंच जातलें.

मालिनी : किदें !

सोर्तीकार : फक्त सोर्त लागपाक जाय. किशोरबाब थोड्यो काडीना बाय सोर्ती. तेका एक दिस तरी लागतलीच सोर्त.

मालिनी : उरील्ल्यो सोर्ती तू घालता ताच्या गळ्याक आनी तो पिसो त्यो घेता. म्हाका नाका तुज्यो सोर्ती.

गणू : वयनीबाय एक काडून पळय न्हू. लागली जाल्यार लागली पैर म्हाका लागले ना पन्नास रुपये.

मालिनी : गणू तुजें चड जाले. तू काडटा जाल्यार काड मरे म्हाका आनी किदें सांगता.

सोर्तीकार : बाय तू हेचेर बारीक विचार कर. नशिंब ते. सांगपा जायना केन्हा उगडत म्हणोन ते केन्हा सांगोन उघडना बाय, खरेच सांगता तूका ह्या खेपे तूका सोर्त लागपाक शकता. चड नू बाय फक्त धा रुपया. कोण जाणा ह्या धा रुपयाक तूका देवान लाख दवल्ल्यां कांय किदें म्हणोन सांगो येना, नशिब ते. सोर्त सोर्त सोर्त.

मालिनी : आरे परत लागलो बोवाळ करपाक?

गणू : वयनीबाय हांव एक काडटा परचे पन्नास रुपये आसात म्हाजेकडे सोर्तीकार घे रे हे धा रुपया आनी दी म्हाका बरीशी सोर्त.

सोर्तीकार : (ताका एक सोर्त दिता) बाय तू एक काड नू.

मालिनी : तूका सांगला न्ही रे नाका म्हणून?

गणू : वयनीबाय काड तू एक. नशिब ते केन्हा उकते जायत सांगो येयना.

मालिनी : गणू तूय! तू ताचो सो प्रचार करता तूका किदें सोडटा काय किदें रे तो?

गणू : तो मेलो म्हाका दितलो (सोर्तीकार दचकेता) हे सोर्तीकार तूवें केन्ना किदें दिला रे म्हाका?

सोर्तीकार : बाय हें किदे. तेका दिवपाक म्हाका किदें मेळटा तर सोर्तीचेर. तुमच्या सारख्यानी काडली एक सोर्त तर म्हाका फक्त

मेळटले तीस ते चाळीस पैशे इतलेच. पूण तूमका मेळळें जाल्यार कितके मेळटलें खबर आसा. कोठ्यानी, लाखानी, हजारांनी आनी शेकड्यांनी.

नालिनी : पूरो पूरो तूझी शाणपणा. गणून काडली मरे सोर्त तूगेली. पळोवया गणू केन्ना दीश जाता तो.

नोर्तीकार : बाय एक सांग पळोवया समजा अशे धरुया.

गणू : कशे धरुया.

नोर्तीकार : समजा गणूक सोर्त लागली पन्नास लाखाची.

गणू : किदें!

नोर्तीकार : हय रें तूका लागली सोर्त पन्नास लाखाची.

गणू : किदें! लागली! (गणू घुवंळ येवन पडटा)

नोर्तीकार : आयकना पुडे हो पडलो, ख-यानीच लागतकच किदें करतोलो कोण जाणा. आरे गणूबाब उठ उठ (ताका हालोन जागो करता) तूका सोर्त लागोना रे, हाये म्हणला लागली जाल्यार.

नालिनी : लागली जाल्यार किदें?

नोर्तीकार : लागली जाल्यार हों तूका दितलो? पळटलो. म्हणून बाय सांगता तूका, तू एक सेपारादच काड सोर्त. चड न्हू बाय फक्त धा रुपया (सामकों लाळेता) बाय तू काडच सोर्त एक तरी काड.

नालिनी : बरे बाबा चल एक दी पळोवया

नोर्तीकार : बाय एकच!

नालिनी : हय रे एकच दी.

नोर्तीकार : हे किदें बाय? तूये चार पांच तरी काडपाक जाय.

नालिनी : आरे एक दी सांगली न्ही तूका

नोर्तीकार : दोन तरी काड, दोन तरी काड बाय. एक कर्नाटकाची

गोल्ड काड पन्नास लाख आनी एक महाराष्ट्र लक्ष्मी एकवीस लाख, सामकी लागतली बाय तूका.

मालिनी : हो आनी खेंट कशें लागला मरे. शी बाबा. बरे दी दोन जाल्यार दोन दी.

सोर्तीकार : (दोन सोर्ती दीत) घे बाय देव तूजे नशिब उकतें करु.

मालिनी : राव आ पैशे घेवन येता (भीतर वता)

गणू : हे सोर्तीकार म्हाका लागतली मरे सोर्त?

सोर्तीकार : आरे सगलें नशीबाचेर. पळवोया तुजें नशिब किदे करता ते. पूण एक सांगता तूका सोर्त ही सांगोन लागना. नशिब तें - तें उघडसर सोर्ती काडीत रावचें पट्टा.

गणू : तू येत राव हांव काडीत रावता.

मालिनी : (प्रवेश) हे घे बाबा तूजे पैशे आता मात्सो वच

सोर्तीकार : देव बरे कोरु बाय. (वता) सोर्त सोर्त घेयात आनी जायात कोठ्याधिश लाखाधिश फक्त दा आनी पाच रुपयात आनी करातत्तूमचे स्वप्न साकार. सोर्त – (किशोर नेटान येता तो सोर्तीकाराक आपटता सोर्तीकार पडटा.) मेलो रे मेलो हेणें व्हडयलो मोडून मागेलो दुसरोय पाय (पाय वयर काडटा) आरे देवा रे सोर्त घेयां रे मागें पाय मोंडलो रे आवय गे.

किशोर : (ताका उठयत) आरे तू म्हाका येवन किद्याक आपटलो असो पडसर?

सोर्तीकार : आवयगे, देवा गे, सोर्त गे. हे किदें बाब हाव तूका आपटला काय तू म्हाका आपटला आनी म्हाका वडयला? आनी म्हाज्यान म्हणोन तूका आपटपाक जाता? तू केदों आनी हांव केदों?

गणू : किदें तू आमगे भाऊच्यानीय व्हडलो? किदे सांगता रे तू?

सोर्तीकार : आरे तशें न्हू रे गणू बाब.

गणू : मागीर कशें तर.

सोर्तीकार : आयकय सांगता तरी. आवय गे सोर्त गे, पाय दुखता गे, गणू बाब. हो व्हडलो मनीस. धनी भाटकार तो म्हाज्यानी व्हडलोच नू.

गणू : तेच म्हण्टा नू रे हाव.

सोर्तीकार : पूण एक मात.

मालिनी : किदे ते

सोर्तीकार : यदो व्हडलो हों मनीस मागेल्यों सोर्ती उदार काडटा आनी हांव त्या सोर्तीच्या एजेटांक रीण जाता.

गणू : किदे! (तोण ऑ करुन रावता)

किशोर : तू म्हजे नाव पीड्ड्यार करता मरे. हावे तूका आज सकाळी पैशे दिल्यात. वेल्यान म्हजे नाव पिड्यार करता. आता हाव तूज्यों सोर्ती काडी ना. पूरों जाले. हाडून दितालो तू म्हाका सोर्ती दवर तू दवर तू पात्राव. हांवे त्यो दवरल्यो म्हणून तर तूका पैशे मेळ्ळे मरे ते. ना तर तेच पैशे आंगार पडटा आशिल्ले. आता तूज्यो सोर्तीच नाकात.

सोर्तीकार : अशें म्हणो नाका बाब. पात्राव आयज तूये दिले न्हू पैशे पांवले म्हाका. म्हाजेर रागार जाल्यार जाता. पूण सोर्तीचेर रागार जाव नाका. देवा आवय गे, सोर्त गे, पाय दुखता. पात्रांव आता एक काड तू पन्नास लाखांची. व्हदळ तूये पैशे दिले पूण सोर्त काडू ना.

किशोर : उठलो मरे, सोर्त मागीर पळोवया आता उपकार करुन वच. म्हाका दार बंद (गणूक पळयत गणू बावगता) करपाक जाय.

सोर्तीकार : बाब एकच काड पन्नास लाखाची.

किशोर : (रागान) आरे मात्सो वच पळोवया बेगीन हांगा सरलो

चड वेळ रावलो जाल्यार ख-यानच तुजो दुसरो पाय मोंडत सांगता तूका.

सोर्तीकार : (भीता) वयता वयता. आवयगे देवा गे सोर्त घे (वता) सोर्त घेयात सोर्त, करात स्वप्न साकार फक्त धा आनी पांच रुपयात. जायात धनी पन्नास लाखांचे सोर्त घेयात सोर्त लक बाय चान्स सोर्त. कॅर्श बाय लक सोर्त सोर्त उधार बंद कॅश बाय लक सोर्त सोर्त.

किशोर : गेलो सायबा ही पनवत. दिश्टी पडपाक दिना आशिल्लो केन्ना, केन्ना दीता केन्ना दिता. सामको फाटी लागतालो. आयज दिले आनी सुटलो हाच्या तोणातलो.

मालिनी : पूण तू बरोंच आपटलो ताका. दुखले आस्तले बाबड्याक

गणू : भाऊ तू मुद्दाम आपटलो काय किदे तेका ?

किशोर : (रागान) गणू तू मरे. शीस. सामको हाव ताका मुद्दाम आपटला? एक सांग.

गणू : भाऊ हे मात बरे तूगले.

किशोर : किदें तें

गणू : एक सांग म्हण्टा आनी एकाच्या जाग्यार कितल्याशेंच फावट एक सारखें विचारीत रावता म्हाका प्रश्न. ते सोड भाऊ तू म्हाका किदें विचारपाक सोदतालो?

किशोर : तोंण घेवन विचारता पळय. हे दार तूवे उक्ते किद्याक दवल्लें? चल बंद कर बेगीन ते. पयलीचे दीस ना आता. आतांच्या चोरांक रातबीत काय लागना ते सोदतात ती संद (गणू बेगीन दार बंद करता)

मालिनी : तू वोगीच गणूक किद्याक तापयता ? हावेच आफयलो त्या सोर्तीकाराक. गणूची सोर्त पळवपाची आशिल्ली.

गणू : (गुन्यावकार जावन) भाऊ म्हाजीच चूक जाली. हाये दार

उकते दवरुपाचे न्हू. हावच विसरलो दार वंद करपाक. भाऊ चूक जाली म्हाजी.

किशोर : जाले. जालो तू रागार ! तूमका मात्शे किदें म्हणपाचे ना रोखडीच फुगतात तूमी. गणू हाव तूमचेर रागार जावचो ना जाल्यार कोणाचेर रगार जातलो? तूमी म्हजी मनशा मरे. गणू तूका हांवे केन्नाच या घरचो मानाय म्हणून पळयलो ना. तर तूका हावे म्हज्या खाशेल्या भावावशेन मानता म्हणून म्हजो तू भाव या हक्कान केन्नाय हाव तूजेर रागार जाता. म्हाका परक्या मनशाचेर रागार जावपाक मायेचो हक्क खंय आसा? आपली सुख दुःखा हांव परक्याकडे कसो माण्टलो. आपल्याच मनशालागी परगटावप आसता ते. म्हणून हो मायेचो राग आस्ता.

गणू : म्हाका सांग तू शाणपणा. आनी आपूण मात घेवन वसप मनाक लावन. भाऊ तू म्हाजेर कितलोय रागार जा. तूजे केन्नाच वायट धरपाक ना हांव हे लक्षात दवर वयनीबायचो मोग आनी तूये दाखयल्या भावकेक लागोनाच हे मेरेन हांव आसा तूमचेकडेन

मालिनी : (हासता) गणू म्हाका दिस्ता किशोरालें खरोखर तूवें मनाक लावन घेतला शे दिस्ता. तू ह्या मेरेन पासून आसा म्हण्टा म्हणून म्हण्टा हांव. मागीर किदें थारायला तर तूवें.

गणू : म्हणजे वयनीबाय! तू म्हाका धावणावपाक सोदता काय किदें?

मालिनी : हय तर तूका आता हांव धावणायतलेच.

गणू : किदें ! हांव वचो तर ?

मालिनी : चल चलपाक लाग हांगा तूजी गरज ना.

किशोर : मालिनी!

मालिनी : हय वचूंनी ताका.

गणू : वयनीवाय वयता तर हांव आवयकडे (रडकूरे तोंड करीत)

मालिनी : खंय वता चल तोंण घेवन रानच्या कुडीक.

गणू : (खूष) पूण वयनी बाय !

मालिनी : (हांसता) आरे पिशा तूका हांवे सांगला हांगा तूजी गरज ना म्हणून. तूका रानची कुडीक वच म्हळा हावे.

किशोर : मालिनी तू मगों फकाणा चड करता. हांवूय भिलो अचकित तू गणूचेर रागार कशे जाले काय म्हण.

मालिनी : गणूचेर तू रागार जायत. विचार ताका हांव केन्ना ताचेर रागार जाला काय म्हण.

गणू : वयनी बाय तूमी म्हाका लागून इतली कासाविस किद्याक जातात. तूमी दोगांय म्हजेर रागार जाली म्हणून हांव वचपाक नाका. हांव तूमचें केन्हाच वायट मानचो ना. तूमी म्हाका म्हज्या आवय आनी आबोंबशेन.

किशोर : ते सोडून दी. गणू तुवें सोर्ती कितलो काडल्यो रे?

मालिनी : एकवीस लाखाची सोर्त काडल्या ताणे.

गणू : भाऊ वयनीबायन पन्नास लाख आनी पंचवीस लाखाच्यो दोन सोर्ती काडल्यात.

किशोर : किदें! मालिनी तूवूय ! बरे एक सांगरे गणू

गणू : किदें भाऊ

किशोर : समजा अशें धरुया

गणू : किदें धरुया

किशोर : धरुया तूका एकवीस लाख लागले सोर्तीक. जाल्यार तू तांचे किदे करतोलो?

गणू : भाऊ हे आनी किदें विचारप जालें.

किशोर : सांग मरे किदे करतलो?

गणू : सांगो? वयनीबाय सांगो मगे?

किशोर : सांग रे

गणू : पांच लाख काडटलो आनी तूका दितलो. (हे आयकून किशोर शॉकानच घुंवळटा)

- काळोख-

**अंकाचो पड्डो**

**पयलो अंक सोपलो**



# देखावो १ लो

किशोर : (किशोराक स्वामीचो भास जाता.) स्वामी हे किशोर मेरा पैसा कब देगा देखो किशोर अगर तुम मेरा पैसा नही देगा तो मैं तुमको छोडेगा नहीं. तुम्हारे उपर कुत्ता छोडेगा. तुम्हारे उपर पुलिस छोडेगा. (किशोर दचकून जागो जाता. भायल्यान प्रशांताचो आवाज येता.)

प्रशांत : आरे किशोर दार काड बेगीन. (किशोर बेगीन वेगीन वचून दार काडटा. आनी प्रशांताक दाराकुच दवरता.)

किशोर : प्रशांत बरे जालें तू आयलो तो. तो स्वामी म्हाका सामकें भय घलता मरे. निजपाक सुध्दा दिना तो म्हाका. सामके भय दिस्ता म्हाका. आता हाका किदें करपाचे.?

प्रशांत : किशोर इतले पैशे घेतील्ले कित्याक तुवें दिवपाक जायना जाल्यार आता तो माका कस्सोच दवरुचो ना. तूवे वडयलो म्हाका त्रासात. ताजेकडेन ते मद्रासी गुंड थोडे नात. भोवपाक बसून भय दिसता.

किशोर : तेच न्हीरे ताची ती उतरां आयकूनूच सामको थरथरो येता. प्रशांत हाका किदें तरी उपाय करचो पडटलो.

प्रशांत : हय-हय ताका किदें तरी करचेंच पडटले.

किशोर : आता येतलो लुंगी हालयत.

प्रशांत : (भीता) तशें जाल्यार हांव मागी येता. (पळ काट्टा)

किशोर : हो धावलो आता किदें तरी करचें पट्टलेच. आता हांव हाका होच उपाय करता.

(किशोर एक नकली सोरोप हातात घेवन पासोयो मारता)

किशोर : किदें करपाचे ते कांयच कळना. स्वामीले रीण घेतलें खरें पूण ताच्या पैशाचें कायच करपाक मेळूना म्हणच्या पेक्षा

पैली वयार केलों त्या व्होलसेलवाल्याक मागीर त्या मोंडकेंकाराक दुसरो लंगडो सोर्तीकार, पंचवीस हजार दिले. त्या व्होलसेल वाल्याक, पंचवीस हजारात जाता तरी किदे. तागले सगळे लाखभर दिवपाचे आसात, कमीत कमी आनिक पंचवीस हजार तरी दि म्हण्टा तो जाल्यारच माल दिता म्हण्टा. बरे हें आसात ते त्राका दिले जाल्यार स्वामीक खयचे दितलो पैशे? म्हज्या दुकानाक व्यापार घालून लेगीत दिसाक आठशे रुपये गि-हायक जायना. तो लुंगीकार येता धेंपामारीत आनी व्हरता म्हजकडल्यान एकराशे रुपया. आता किदे करपाचें हाका? होंच सोर्पाचोच उपाय करता. हाका पळयनाफुडे वतलो भियोन. (तो नकली सर्प मेजार फुफकारता तसो मांडून दवरता) आता कशें जालें. आतां हांव वता भीतर (- वता.)

गणू : (पद गुणगुणत प्रवेश करता ...... आनी ताची नजर सर्पाचेर वता ताका पळोवन ताची जीभच आडवी जाता) स-स-सस-रोप- स-रो-प- सरोपप! व्हयी-बाय-व्ह-य-नी बा-य सरोप (भीतर धावन वता)

किशोर : (प्रवेश) हो गणू आनी जिस्तूच आयलो मरपाक - आता येतलो वयनी बायक घेवन. (भायल्यान स्वामीचो आवाज- हे किशोर दार काड रे आता कोंकणी म्हाका सारखी उलोवपाक कळटा. दार काड. माजे पैशे रेडी दवर.) बरे जालें हाची आता वाटच लायता. आसूनी हो सोरोप असोच (हळू दार काडटा आनी दाराआड रावता. स्वामी भीतर सरता तसो किशोर दारा भायर वता)

वे. स्वामी : हे किशोर आरे खंय आसा रे तू? किशोर ना सो दिस्ता, गंडू-गंडू आसा जाल्यार पळोवया हो गंडूय ना. हे अम्मा आसा जाल्यार पळोवया हे अम्मा बाहर आ (किशोर-किशोर करीत सर्प आसा त्या मेजाकडे पावता-आनी सर्प

पळोवन ताची दात खीळच बसता) अ-य-य-यो- अ-अ-म-मा-अ-अ-अप्पा साप कि-कि-किशोर - आरे इ-धर-साप है-साप आसा हम - पोआ पोआ पोयटें - (धाव मारता. तोगेल्या बरोबर किशोर भीतर येता)

किशोर : जाव गेलों आयचो दिस सुटलो. पूण करतोलो किदें तेच कळना स्वामीले पैशे स्वामीकच दिता पूण मुकार करतलो कशें हो व्हडलो प्रश्न उभों रावलो या सोरपा बशेन. एका रातयाक दुडवांकार जातलो ह्या आशेन मोंडको लायीत आसा - कोण म्हणपाक लागलो फुल घर खेळू नाका ओपन क्लोजाक खेळ. खंय किदे! नशीबच पडला पाड - जेवपाक खावपाक नाशिल्लें लोक आयज मंत्री जावन पडले. नशीब तांचे. आशिल्लें बेस हाव वगडावन बसला. पळोवया केन्ना उघडता ते - नशिब! ते म्हणटात न्ही व्हेर देयर इज अ वील देअर इज वे. पूण व्हडली इत्सा आसून लेगीत म्हाका वाट मेळना.(गणू मालिनी धावन येतात)

गणू : (किशोराक पोळोवन) भाऊ तू हांगा आसा? थंय केदोव्हडलो सोरोप फोंड करुन रावला पळय. शी! असों रावोप बरे न्हू. कोणे तरी दुखयलो आस्तलो तेका. सोमतो मेजार बसोन फडो फुलौन रावला तो. आवय-व्हयनी बाय.

मालिनी : कि-शोर-तू-व दु-खयलो ना मरे ताका (जीभ आड करता किशोराचेर पडटा किशोर ताका धरता.)

**– काळोख –**

# देखावो २ रो

(सोर्तीकार किशोराल्या दाराभायर पासोयो मारता)

सोर्तीकार : सोर्त सोर्त आयज आबेर्त आयज सोर्त लक बाय चान्स - दिवाळी बंपर. एक कोठी, मंन्नास लाख, पंचवीस लाख, एकवीस लाख, एकरा लाख आनी चिल्लर बक्षीसा जिकात आनी जायात धीशाचो धीश फक्त वीस, धा आनी पाच रुपयाक सोर्त सोर्त लक बाय चान्स. कालच हाये अकरा लाख दिल्यात. हावूच लक्की माजों हात गूणांचो (पाय वयर काडीत) पाय सगुणाचो. माजेकडल्यान जो सोर्त काडटा जो जाताच लाखाधीश.

स्वामी : (मुखावेल्यान स्वामी येता) सोर्तीकार तू कसो आसा. बरो आसा मरे?

सोर्तीकार : स्वामी किदें! तू कोकणी उलयता!

स्वामी : उलयता म्हणजें रे शिकलो उंलोवपाक - तूमची कोकणी शिकपाक सामकी सोपी.

सोर्तीकार : बरे जाले नातर तूका सोर्त काड म्हणोन सांगतोलो जाल्यार म्हाका यंगा पो म्हणचे पट्टा आशिल्ले. स्वामी एक सोर्त काड मागेली.

स्वामी : सोर्त काडटा पयली मात्सो किशोरागेर वसोन येता. काल गेल्लो हाव. पूण किदे सांगो तूका.

सोर्तीकार : किदे

स्वामी : आरे काल तांगेल्या घरात सर्प आशिल्लो मरे.

सोर्तीकार : (भियत) किदें सोरोप! स्वामी लुंगेक बी गेलों ना नू तूगेल्या (लुंगेक धरता) स्वामी आता तू कोकणी उलयता म्हणल्यार गोयकार जालों ती लुंगी सोडून दी. आता पॅन्ट घाल आमी

गोयकार पॅन्ट शर्टच घालताक. दुसरे म्हणजे लुंगेक सरोपूय वसपाक पावपाक ना. आता मागेली एक सोर्त काड नू.

स्वामी : आरे सोर्त काट्टा हांव तूजी पयलो मात्सो किशोरागेर वसोन येता.

सोर्तीकार : इतल्या बेगीन तूका कोंकणी किशोरान शिकयली दिस्ता.

स्वामी : हय ताचेकडेन शिकलो हांव. शिकलो खरो पूण पैशांक फाटी फुडे करता मरे तो. केन्नाय पैशे दिता आसतना तापलेंल्या बशेन जाता.

सोर्तीकार : तो तसोच. घेताना सामको गाय आनी दिता आसतना वाघ वाघ. तूगेले चड पैशे दिवपाचे आसल्यार तूका हांव हेल्प करपाक शकता.

स्वामी : हेल्प ते कशे?

सोर्तीकार : मागेल्या ओळखीचो एक पोलीस इन्सपेक्टर आसा. तेका सांगोन वसूल करुन घे तुजे पैशे. स्वामी तेका किदेय सोडचे पडटलें आनी मागेल्यो शंभर सोर्ती काडच्यो पडटल्यों. जाता जाल्यार पळय. किदे, चलेगा?

स्वामी : चलेगा (फुडल्यान पुलिस इन्सपेक्टर येता)

इन्सपेक्टर : हे. आरे सोर्तीकार. कसो आसा तू?

सोर्तीकार : (सलाम करीत) बरो आसा बरो आसा. सायब आयज तुमी चलोन शे. जीप हाडली ना काय किदें?

इन्सपेक्टर : जीप हाडल्या, ती पळय थंय दवरल्या. आमका आता चलूनच भोवचें पडटा कारण कांय मंत्रीय चलोन भोंवपाक लागल्यात. तांच्ये किदें, तकली फिरली म्हणजे फिरलें.

सोर्तीकार : हय सायब हय सायब. फाटल्या तेपाक तो एक मंत्री कळनासतना मडक्याच्या गाडयांनी भोंवतालो. तेंचेर धाड घालपाक.

इन्सपेक्टर : तेंच तेंच ते वळखनासून कोणेंय चुकून थापटायलों जाल्यार किदें. सगळे हाडून सोडटले पुलीसाचेर . हे एक जालें. दुसरे. आताचे चोरय बरेच हुशार जाल्यात. चलून सगळी करतात सर्वे आनी मागीर घालतात दरोडे (स्वामीकडे लक्ष वता) हो कोण आमच्यो खब-यो शो आयकता (स्वामीक) कसली सर्वे करता रे तू हांगा रावन. आतंकवादी बी न्ही मरे?

सोर्तीकार : सायब सायब तो तसलो कोण न्ही.

इन्सपेक्टर : पूण दिस्ता तसोच कसो (स्वामी दचकता)

सोर्तीकार : ताचे नाव वेंक्कय्या स्वामी.

इन्सपेक्टर : (आयकनाफुडे सॅल्यूट मारता) सॉरी सर हांव तूमका वळखले ना. तूमी बरेच बदलल्यात सर सर यू आर टोटली चेंज.

सोर्तीकार : सायब सायब हो स्वामी तूमी समजता तो नू. हो जूरान रीण दिवपी वेंक्कय्या स्वामी.

इन्सपेक्टर : (तापता) आरे तूजे तोंण धरील्ले सांगपाक? वयल्यान सॅल्युट मारुन घेतला म्हजेकडेन. म्हाका तूजो दुबाब येता. तू आतंकवादी न्ही हे किद्यावयल्यान सांगू येता.

वे. स्वामी : सर सर हांव सामको लिप्प मनीस. गोंयात पैशे जोडपाक येयला.

इन्सपेक्टर : चोरुन बीरुन काय किदें रे?

स्वामी : चोरुन न्ही, चोरुन न्ही. इंटरेस्टाचेर इंटरेस्टाचेर

इन्सपेक्टर : इंटरनेटाचेर- किदें! इंटरनेटाचेर! तशे जाल्यार म्हाका तुजो दुबावच लागता. चल यो तुका आता हांव सारखोच घेता शिंगार.

स्वामी : अय्यो अम्मा.

सोर्तीकार : राव सायब. तो इंटरनेटाचेर घेना.

इन्सपेक्टर : किद्याचेर घेता तर?

सोर्तीकार : तो इन्टरेस्टाचेर पैशे घेता. जूराचे जूराचे पैशे. सायब तेचे एक काम आसा. हाये तेका सगले सांगला. तूमगेले जे किदे आसा तो दितलो. (इन्सपेक्टर लाळ गळयता) काम सामके सोपे आणि साधे.

इन्सपेक्टर : तशे आसल्यार म्हाका ऑफिसात येवन मेळ. आयज़ नाका फाल्या यो तू. ही लुंगी मारुन येवनाका लुंगी मारतकच म्हाका आमच्या दिल्लीच्या सायबाची याद जाता आनी म्हजा हात आपोआप (सॅल्युट करीत) सॅल्युटाक वता.

स्वामी : सर माजे काम जातले न्ही.

इन्सपेक्टर : हो कोकणीय उलयता!

स्वामी : सर आ हॅव टेकन कोकणी टूशन सर.

इन्सपेक्टर : चल चल फाल्या यो. तूमी लोकच चलाख.

स्वामी : थॅक्यू सर हाव फाल्या येता.

इन्सपेक्टर : येता आसताना लुंगेर येवनाका पॅंट घालून यो. (स्वामी वता).

सोर्तीकार : सायब एक सोर्त दिव? पैशे नाकात सायब.

इन्सपेक्टर : म्हाका नाका रे तुजी फुकट सोर्त. त्यो फुकट सोर्ती लागकय ना.

सोर्तीकार : पैशांनी काड सायब. खंयची दिव? पन्नास, पंचवीस, एकवीस, तीनीय दिंव काय एक खंयचीय दीव सायब?

इन्सपेक्टर : (बोलसातल्यान धा रुपया दियत) घे एक दी पन्नास लाखाची.

सोर्तीकार : (ताका सोर्त दिता पैशे घेता) सायब देव बरे करु तुमच्या भुरग्याबाळांक आनी सोर्त तुमकाच लागो.

इन्सपेक्टर : अशें सोर्त दिल्ल्या हर मनशाक म्हणटाच तू हे.

सोर्तीकार : ना सायब खरेंच आवोच्यान तूमकाच म्हण्टा अशें हांव आनी कोणाकच ना.

इन्सपेक्टर : बरे चल तू तूज्यो सोर्ती विकपाक. (फुडल्यान प्रशांत तकलेर हात दवरीत येता)

सोर्तीकार : आरे प्रशांत् बाब असो तकलेर सो हात दवरुन चलता? तकली उसयटा काय किदे? (ताच्या मुखारच प्रशांत बसकण मारता) प्रशांत बाब अशें किदे जाले? सायब हेंका मात्सो पळय किदें जाला ते. तसो सामको बरो मनीस. तो केन्ना केन्नाय थापटेक बसता सायब, तसो सामको बरों मनीस. केन्ना केन्नाय मडकोय खेळटा. खेळाची खूब आवड तेका बरो मनीस तो पूण केन्ना केन्ना जात्रांनी पटय मारपाक वयता. खरेंच सायब मनशाक सामको बरो तो केन्ना केन्ना सायब पैशे आस्ता तेन्हा सोर्तीय काडटा सायब मागेल्यो तो.

इन्सपेक्टर : तूगेल्यो सोर्तीकाडटा म्हणून सगळी वायट कर्मा करुन बरो, हाका हांवे बरेचखेप पळयला. तू त्या शाणूदादाल्या घरातलो न्ही रे?

प्रशांत : हय सायब.

इन्सपेक्टर : केदें व्हडले घराणें मरे ते आनी तू रे असो कसो भोंवता तकलेर हात दवरुन.

प्रशांत : सायब म्हाका फटयलों सायब.

सोर्तीकार : कोणें रे? मडक्यान, थापटेन काय जात्रेच्या पटान? सायब तसो सामको बरों मनीस पूण लोक फटयताक हेंका फटयताक म्हणच्या पेक्षा हो फोटवोन घेता. मागीर फटोयलो म्हण्टा.

इन्सपेक्टर : बरें आसा एक सांग रे तूजे नाव किदें?

प्रशांत : प्रशांत. सायब

इन्सपेक्टर : तूका कोणे फटयलों आनी कसो?

प्रशांत : (रडकुडेक येवन) सायब फाटल्या दिसानी हावे म्हजो इश्ट किशोर महाड हाचेकडल्यान धा हजार तागेल्याच रीणतल्यान रीण घेतलें.

इन्सपेक्टर : रीणातल्यान रीण! किदें ! असली केस केन्ना आयलीच ना आमच्या पुलीस स्टेशनाक.

सोर्तीकार : सायब सायब म्हाका कळ्ळे. सायब ते रीणातले रीण त्या स्वामीले आताच गेलो तो.

प्रशांत : म्हजो इश्ट किशोर महाड हाका रोखडेच परत दिता म्हणून घेतिल्ले सायब.

इन्सपेक्टर : किदें किदें! कोण महाड! हो आनी गोयांत कसो तयार जालों रे?

सोर्तीकार : महाड हें नाव नवेंच कशें मरे - आमच्या गोंयात माड खूप आसात लागताकूय बरें. सायब हो माडांचो महाड चूकोन बीकोंन जालो ना न्हू?

प्रशांत : चूकून बीकून न्ही ते सायब. तो मूळचो ते सायडीचो. गोयांत ताका बरीच वर्सा जाली? तसो तो मुळचों मुंबय वता - आस्ताना तो महाड गाव मेळटा नी त्या गावचो. पूण तो आता अस्सल गोंयकार. आनी म्हजो ब-यापैकी इश्ट.

इन्सपेक्टर : अशें ! म्हळ्यार तूका जीं किदें सवय आसा ती ताकाय आसा तर?

प्रशांत : हय सायब - ना - ना ना सायब.

इन्सपेक्टर : सोड आता सांग पळोवया तूका कोणे फटयलो?

प्रशांत : सायब तो बाजारात उस्मान बस्ता न्ही ताणे सामको फटयलो, सामको नाडलो ताणें म्हाका.

सोर्तीकार : आरे तो मागेल्यों पावटीक शंभर सोर्ती काडटा मरे आनी लक बाय कॅश पैशे दिता रोखड्या रोखडेच. कालच तेणे माजेकडल्यान देडशी रुपयांच्यो सोर्ती काडल्यो एक शंभर रुपयाची आनी एक पन्नास रुपयाच्यो दोन नोटी दिल्यात म्हाका. त्यो करकरीत आसा म्हणोन हाये तशोंच दवल्यात

त्यो तूका कसो फटयलो तर?

प्रशांत : सायब सायब तो करकरीत नोटीचोच धंदो करता. तोचेकडेन कमीत कमी पंचवीस हजार घेवन गेल्यार तो पन्नास हजार दिता. सायब, हावे हे आयकले म्हणोन किशोराकडेन दा हजार रीण घेतले. हांव खूष आसलो. म्हाका दा हजारांक वीस हजार मेळटले म्हणून सायब किदे सांगू तुमका म्हाका तो पंचवीस हजार हाड म्हण्टालो. म्हजी हांवे डिफिकल्टी सांगली, तेन्ना म्हणपाक लागलो म्हाका म्हणून स्पेशल केस कशी दिता आनि म्हजेकडे दा हजार घेतले. दुस-या दिसा म्हाका आफयलो हांव गेलो जाल्यार तो सगळे सोडून पसार जालो खंय. कारण ताच्यो सगळ्यो नोटीच डुपलीकेट. हे कळना फुडे एक मनीस पणजेच्यान पुलीसा घेवन आयलो.

इन्सपेक्टर : किदें ! पणजेचे पुलीस हांगा पावले! पूण म्हाका कशें कळ्ळें ना हे?

प्रशांत : सायब हाव रीणाक पडलो; म्हजे दा हजार गेले सायब. ताका कसो करुन धरात सायब.

इन्सपेक्टर : तूका पयलो भीतर वडयता. तोण घेवन सांगता कसो पळय. ताका ते दा हजार दिवची पयली म्हाका सांगिल्ले जाल्यार म्हजे एक फित चट्टा आशिल्लें. काळकूट म्हणून सोडटा. तूका सोंडलों म्हणून म्हजे नाव सांगशी कोणाकय. आसा ते फितय देवयतलो तू म्हजें. चल लाग चालीक.

सोर्तीकार : आयकले, मरे सायबान किदें सांगला तें ?

इन्सपेक्टर : सोर्तीकार त्यो तूगेल्यो करकरीत नोटी दाखय पळोवया कश्यो आसात त्यो?

सोर्तीकार : (बॅगातल्यो नोटी काडटा) सायब ह्यो त्यो नोटी कायब-यो करकरीत आसा पळय.

इन्सपेक्टर : (नोटी घेता बारीक पळयता हांसता)

सोर्तीकार : सायब किद्याक हासले?

इन्सपेक्टर : आता वाढले वाढले म्हजे फित वाढले. सोर्तीकार ह्यो दोनीय नोटी बनावट, बोगस डुपलिकेट नोटी. आता म्हजे फित हन्ड्रेड ॲन्ड वन परसेंट वाढले.

सोर्तीकार : बरे जालें सायब तूमचें फित वाढले आमकाय ब-याक पडले.

इन्सपेक्टर : सोर्तीकार ह्यो नोटी तुजेकडेन सापडल्यात. तू आता भीतर सामको बंदखणीत. (सोर्तीकार आयकून घूंवळ येवन पडटा-प्रशांत ताका धरता. इन्सपेक्टर हांसता.)

**– काळोख–**

# देखावो ३ रो

**(किशोराले घर. गणू सामको खुष आस्ता. काम करता करता नाचता, हांसता, गाणें म्हणटा, मदीच कदेलीचेर थूंकता, ते बसून पुस्ता.)**

गणू : चवथ जाली, आता दिवळी. हे फावट तरेतरेचे फोंव खातलो. मागे आवय किदें रुचीक फोव करता. याद येतनाच जीभेक रुच सुट्टा. फोव्हांची उड्डमेथी किदें करता म्हणोन सांगो, सामकी रुचीक. सुकलेल्या बांगड्याचे कुडके घालून करता. किदें सांगो खाल्यार सोडीनूच दिसना. तेतूनच धेणलो. म्हाका वचपाक जाय धेणलो नाचपाक.

धे - धेणल्यो धेणल्यो पावस शेणल्यो
धेणल्याची म्हातारी शेळें हुन खाताली
धे - धेणल्यो देंडल्या पावस शेणल्यो......
आमचो धेणल्या केळीं रगडी
केळ्याच्यो साली खावन पोट थापटी
आडसराच्यो कट्यो कट्यो कट्यो
आयच्यान पावस झट्यो झट्यो

वर्साच्यो ह्यो यादी येतात आनी व्हयतात कांय बरे खोशयेचो दीस. पुण आमगे या भाऊल्या घराक मातसगळे उरफाटे. तो भाऊ दिवाळें काडून बसला. दिवाळी लागी पावली तरी दिवाळेंच. पळोवया देव तेजे केन्ना बरें करता आनी म्हाका पावता तो. पूण म्हाका उमेद भागोवपाक किदें जाला.

(प्रशांत लाचार, निराश जावन किशोराल्या दाराचेर मारता)

प्रशांत : किशोर - किशोर (बेजारुन) एक बेल लेगीत लावना हाणे दारार. हांच्या दारार बोब मारुन मारुन थकलो हांव.

गणू : कोण रे थंय येद्या व्हडल्यान दारार मारतो तो. हे पळय कोण आसा तेका वोगी रावचोना हांव. दार मोडले बीडले जाल्यार.

प्रशांत : आरे दार उघड गणू

गणू : कोण रे?

प्रशांत : आरे हांव तो.

गणू : हाव म्हणोन कोण? दारार मारीनास्तना सांग दाराक हात लावची गरज ना. आनी जर तर दाराचो मात्सो कुडको गेलो म्हणोन कळत जाल्यार वयल्यान सकल्यान जूर घेतलो जूर जाणोन घे.

प्रशांत : गणू दार उकते कर, हांव रे प्रशांत. हांवे आता दाराक हात लायनासतना सांगला आता तरी काड दार.

गणू : अशे! सांग मरे धनयालो इश्ट म्हणोन. हाव रोखडोच दार काडटा आशिल्लो (दार उकते करता)

प्रशांत : गणू बाब म्हाकाच तू असो कित्याक सतायता. या घरचो मनीस मरे हांव.

गणू : तें मात्शे अशेंच करचे पडटा. रोखडेच दार काडप ना म्हणोन म्हाका भाऊनच सांगला. पयली सारखे विचारप, विचारप आनी दार काडप.

प्रशांत : अशें! कित्याक रे ?

गणू : तो येता तो सामको व्हडली व्हडली धेपां मारीत येता आनी मागेल्या भाऊच्या काळजात सामकी थरथरी हाडटा.

प्रशांत : कोण रे तो?

गणू : कोण रे तो म्हणोन विचारता कसो पळय खबर नाशिल्ल्या भशेन आरे तो लुंगीवालो. पैर तो म्हाका मात्सो चुकलो. भाऊ तेका सामको भीता. तो येता म्हणल्यारुच पुरो हो गेला सामको लिपोक.

प्रशांत : खंय रे !

गणू : फाटल्या अर्दान कोंबया घुडाक लिपता. कोणाक मेळना

तसो. तुवें वडयलो तेका त्रासात.

प्रशांत : हावें कसो उडयलो रे?

गणू : तूयेच वडयलों तेका

प्रशांत : गणू म्हजेर अशें किद्या किदेंय घालू नाका.

गणू : तूच तो तेका त्रासान वडोवपी.

प्रशांत : हे तू किदे उलयता. हाव कित्याक त्रासान उडयतलो.

गणू : त्या लुंगीकाराक कोणे हाडलो या घरात?

प्रशांत : आरे किशोराक मदत करपाक हाडलो मरे ताका हावे किदे वायट केले? वेल्यान ताणे एकलाख रुपये दिले.

गणू : तेतुतले दा हजार तुये घेतले. कर मरे मदत तेका आता ते रीण फारीक करपाक.

प्रशांत : गणू म्हाका बेजार करु नाका. (गणू ताच्या म्ह-यात येता, ते पळोवन) हे पळय उपकार करुन परत परत म्हज्या म्ह-या येव नाका.

गणू : (हांसता)

प्रशांत : हे पिसाट हास्ता! किदें जाले रे.

गणू : धनी इश्टा तूका म्होरें केन्ना लागले? दिसना मरे ते.

प्रशांत : म्होरें ! म्होरें कसलें? हांवे तुका सांगला म्ह-यात येंव नाका म्हण.

गणू : तेंच ते केन्ना लागले. तू मनशातलो गेलों सो दिस्ता, ते म्होरें आम्यां झाडांक लागता बाकीच्याय झाडांक लागता ते. तूका म्होरें लागला म्हणटकच तूका आता कोंब येवपाक लागतले. म्हों-यांकडे येंवनाका ! (हास्ता)

प्रशांत : (सामको बेजार) आरे ये बैला.

गणू : (तापून) हे, तूये म्हाका बैल म्हणलो!

प्रशांत : बैलच तू.

गणू : हें फुकट खाय-या तूका म्होरें आसा, एकच धीरी घालतोलो तो सोमतोच लोळोयतलो जमनीर. या बैलाची धीरी दाखोंव तूका?

प्रशांत : (भिता हे पिसाट म्हाका मारतोलो दिस्ता, कसले उतरच उलोवपाकय दिना म्हाका.) आरे आरे रावरे सायब हें पात्राव गणू बाब तू बैल न्ही. तू बरो मनीस व्हडलो मनीस, तू वाघ कसो शिव कसो.

गणू : म्हणजे तुये म्हका जनावरान काडलो : तूका म्होरें लागला मरे.

प्रशांत : तेच सांगता न्ही गणू बाब आयकय .

गणू : आता गणू बाब जालो? बैल म्हण्टालो मरे म्हाका तू येदें व्हडल्या मनशाक तू बैल म्हणटा. बैलाक शिंगा आसता. तूयें किदें म्हजे तकलेक शिंगा पळयल्या?

प्रशांत : आरे सायबा चुकलो हांव. हांवे सांगले न्हीरे तू बरो मनीस म्हण.

गणू : आता कशें जालें. तूयें इतलो तेप म्हाका सायब म्हणलेलो जाल्यार हाव तूका सदांच साखरीची चांव दिता आशिल्लो. राव तूका बरीं च्या हाडून दिता हांव. आयज व्हयनीबाय ना आनी भाऊय ना.

प्रशांत : खंय गेल्या रे तीं?

गणू : सामकी त्रासांत पडल्या तीं. तो लागला न्हू रे तेंच्या फाटल्यान म्हणोन गेल्यांत. कोणाकडे पैशे मेळटा जाल्यार पळेवपाक.... त्या लुंगीवाल्याचो असो राग येता म्हणोन सांगो तूका आनी तूजोय राग येता. तूये तेका सोडलों न्हू रे हांगा हाडून.

प्रशांत : हांवच चूकलो म्हाकाय आस जाल्ली त्या पैशातले म्हाकाय कितेय मेळटले म्हण. आता हांव खंयचे दितलों तूज्या

भाऊक आनी त्या स्वामीक पैशे? दाचे दायीय हजार गेलें. एकच रातयाक चड पैशेकार जावपाची इत्सा आसली म्हजी. आता किदें करपाचे ? जीव दिवपाची पाळी आयल्या म्हजी.

गणू : तू दी रे जीव पूण ह्या व्हयनी बायची काळकूट पळोंक जायना म्हाज्यान. एक सांगता तूका (बोलसातल्यान सोर्त काडून दाखयात.) ही जर म्हाका सोर्त लागली जाल्यार हांव तेंगे तें रीण भरता आशिल्लों.

प्रशांत : आरे सोर्त लागपाक नशीब जाय नशीब.

गणू : तें तरी खंय आसा म्हाका. शी त्या स्वामीचो असो राग येता म्हणोन सांगो तूका (सकल नकली सोरोप दवरील्लो आस्ता तो काडून) हो सोरोप तेगे लुंगेक सोडटा आशिल्लो. (त्या सोरपाक पळोवन प्रशांत बोंब मारता– सगल्याक नाचता आनि वता.)

**– काळोख–**

# देखावो ४ थो

**(गणू तकलेर घागर आनी हातात भरील्ल्या उदकाचो कळसो घेऊन कुटत चलता. ताका प्रशांत पळयता.)**

गणू : पाड पडू या नळाचे आठ आठ दिस उदकच नास्ता या नळाक. नळ आसा म्हणून आशिल्ल्या बांयचे उदक खावपाचे बंद केले. आनी आता ते खावपाचे ना. सामके पीड्यार जाला. आतां ह्यो उठाबश्यो काडच्यो पडटा. लोकांच्या बांयचे उदक हाडून खावचे पडटा. थोड्यों पावटी माल्ल्यो ना हांये. सामके पाय भरोंन येयले माजें.

प्रशांत : शूत-शूत-शू-शूत-शूत (गणू ताका परतून पळयता) आरे किदें जाला? सामको लागिल्ल्या बशेन चलता सो, बरो आसा मरे?

गणू : आं! कोण धनया इश्ट! बरे जाले सायबा. मात्सो उपकार कर मात्शीं कळसूलो धर.

प्रशांत : कळसूलो ! हांव धरीना.

गणू : मात्शीं धर (ताका मस्को लायता) मात्शी धर तूका बरी दूधा च्याव दिता. मात्सो धर उपकार जातलो.

प्रशांत : काळकूट म्हणून धरता. पूण च्याव दितलो मरे?

गणू : हय् खरेंच तूका बरी च्याव दिता हांव.

प्रशांत : बरें आसा दी तर (ताचेकडली कळशी घेता) गणू खुश जाता प्रशांत मुकार वता तसो ...)

गणू : आवय, आवय, आवयगे

प्रशांत : आरे किदे जाले?

गणू : सामके कमरा येयला आवय. मात्शी ही घागर घे उपकार जातलो खरेंच तूका हाव बरी च्याव दिता.

प्रशांत : तू मरे सामको. बोट दिल्यार हात घालपाक सोदपाचो. बरे आसा खरें च्या दितलो मरे म्हाका तू ?

गणू : खरेंच दितलो. (प्रशांत ताचेकडल्यान घागर घेता आनी वचपाक लागता ताच्या फाटोफाट गणू बेठांच आवय आवय करीत दोलत चलता आनी घरान पावतात)

प्रशांत : घे ह्यो तूगेल्यो घागरी आता च्यावेबरोबर बुडोवपाक किदें घेवन यो.

गणू : (दोन्हीय कळश्यो घेईत काम् जाले शे पळोवन) थेंक्यू पुकट खाय-या.

प्रशांत : किदें!

**-काळोख-**

# देखावो ५ वो

(मालीनी देवाची पूजा करता. देवाक गाराणें घालता. वेळ सकळचो)

मालिनी : देवी माते महालक्ष्मी जगतमातें सुरेश्वरी
हें जग तूज घडोवपी तूच तारपी तूज्याच पायासरी सोंपता.
तूच सुख दिवपी दुःखाचे निवारण करपी
तूच सरस्वती, लक्ष्मीय तूच, पार्वतीय तूच.
सगळ्यांचेर लक्ष दिवपीय तूच गे माये.
ह्या किशोराचेर मात्शें लक्ष दी गे.

काल सांजवेळचों गेल्लो हो किशोर आजून घरा पांवकना. ताका पळोवपाक हो मेल्लो गणू गेल्लो तोवूय पावंकना आतां हावे करपाचे तरी किदे? पाव गे सायबीणी आनी ह्या किशोराक ब-याबशेन घरा हाड. तो पाड पडिल्लो स्वामी सामको लागला ताच्या फाटल्यान हात धूवन. (किशोराचो आवाज किशोरान एका हाताक बॅन्डेज बांधल्या)

किशोर : मालिनी आगो दार काड बेगीन (मालिनी धांवन वचून दार उकतें करता) मालिनी खंय गेल्ले? इतलो कळाव किद्याक दार काडपाक?

मालिनी : आरे हांवे कळाव खंय केला तूजो आवाज आयकलो तशे धावत येंवन दार काडला. आं! हें किदें! तूज्या हाताक किदें जाले?

किशोर : कांयच विचारु नाका.

मालिनी : अशें जाले तरी किदें? तू रातभर खंय आशिल्लो तर? शणै बावगेर पैशे मेळटा जाल्यार पळोवपाक गेल्लो न्ही तू?

किशोर : हय गो. रातभर थंयच उरलो हांव.

मालिनी : रातभर! शणैय बाबागेर ! तांगेर तू रातचो रावलोच कसो?

किशोर : सांगता मगो आयकय.

मालिनी : हाव काय आयकचे ना हांव हांगा तूजी वाट पळयता तू मात शणैगेर रातभर? (रडटा)

किशोर : हें लागले रडपाक. ह्यों बायलों अश्योच सगळें करुन मोकळी जातात. फायनली रडून साधयतात.

मालिनी : किदें! हांव रातभर तूजी वाट पळयता वेल्यान म्हाकाच दूशण! हांव आनी कशेंच रावना आताच वता हांव कुळराक. खूप सोंसले हावे. तें फक्त तूज्या मोगाखातीर, हांवे सर्विस करता म्हणून सांगले तरी तूवें म्हाका सर्वीस करपाक दिलीना, तूज्या समाधानाखातीर हावे सर्वीस लेगीत केलीना वेल्यान दूशण म्हाका! करता सगळे तू.

किशोर : हेंच तें सारखे आयकवप ना धल्ली वाट कुळाराची. तूमकां बायलांक कुळार पडला ओंसाड. आमी दादल्यांनी खंय वचपाचे?

मालिनी : वच शणैगेर.

किशोर : परत तेंच. खरेंच म्हाका सामको बेजार आयलो. खयवता थंय लेगीत काम जायना. घरा आयलों म्हण्टकच हें हांचे आयकूचे पडटा. आमचे मात अजिबात आयकून घेनात ह्यो बायलो दुबावी नंबर एक. किदें घडलां तें आयकनासतना लागतात बोवाळ करपाक. हाव म्हण्टा आयकून तरी घेवपा जाय न्ही.

मालिनी : (रडपाचें थांबत) बरे सांग किद्याक रावलों तू शणैबाबागेर?

किशोर : आता कशें जालें, सांगपाक वाट मोकळी केली. आगो जालें अशें हांव शणैबाबागेर गेलों खरों. हांवे उलों मारलो शणै बाबाक. थंय तो नाशिल्लो.

मालिनी : मागीर

किशोर : ताच्या जाग्यार तागेली चली भायर आयली फ्रान्साक आस्ता खंय ती आयली ती म्हजो तीनें म्हाका न कळत किस घेतलो.

मालिनी : (रडटा)

किशोर : लागलें रडपाक तशेंजाल्यार फुडल्यो कशो किदें राटावळी जाल्यो त्यो हाव सांगाना तर.

मालिनी : (रडपाचें थांबत) सांग सांग हांव आता रडना.

किशोर : गूड. तूका सांगू ताणें म्हजी इतली तोखणाव केली म्हणून सांगू - हाय हन्डसम, हाय सेक्सी, यू लूक लायक ए जम्सबॉन्ड, टॉल गाय ताणें म्हजी सगळी वळख करुन घेतली. आमचे किरीस्तॉव भाव भयणी एकमेकांचो उमो घेतात न्ही. तसो म्हाका परत एक फावट कीस करपाक. शणै बाब रॉत घेवन आयलो. आनी लागलो म्हाका मारपाक आपल्या चलयेकडेन भानगडी करता काय म्हण.

मालिनी : (रडपाक लागता)

किशोर : हावे तशे कांयच करुना ओगी राव आनी सांगता ते आयक मात्शे. ताणे माका एका कुडीत बंद करुन दवरलो. ती चली ताची पारपोंळ माका वडयलों त्रासात तीणे. शणैबाब म्हाका पुलीसीकडे दिवपाचो. तरी बरें जाले तागेलो फोन बंद पडला. किदें सांगू तूका रात जाली आनी घात जालो. किदें करपाचे ते म्हाका कांयच समजना जालें. इतल्यान त्या कुडीच्या जनेलावेल्यान एका मांजरान म्यॉव करुन उडी मारली, हांवे पळयले ते जनेलाक तीनुच लोखणाच्यो सरयो आशिल्यो. त्यो वाकड्यो करुन हावे तातुतल्यान उडी घेतली ती सोमतीच गटारात.

मालिनी : शी ! (नाका धरता)

किशोर : हेच ते. शी खंय, म्हाका किदें जालें तें हांव जाणां. म्हज्या हाताक कवच्यो तोपल्यो कवच्यो. तसोच हांव त्या सुलभ सौचालयात गेलो.

मालिनी : (नाक दाबता)

किशोर : थंयच न्हालो आनी थंयच न्हीजलों. सकाळी उठलो दोतोराकडे

| | | |
|---|---|---|
| | | गेलों. ताणेच ही बॅन्डेज केल्या म्हाका. तसोंच उठून हांगा आयलो. ही म्हजी चूक जाली? सांग मगो चूक जाली? |
| मालिनी | : | आयम सॉरी किशोर. हावें तूका समजून घेतलोंच ना. चूकले हांव. |
| किशोर | : | तूमी बायलोच अशों दुबावी. घोंव एक रात नासल्यार पूरो. दिलों विकून घोवाक. |
| मालिनी | : | सांगले न्ही चुकलें म्हणून (भायल्यान स्वामीचो आवाज येता) |
| स्वामी | : | किशोर दार उघड. बेगीन दार उघड. वीस दीस जाले तु म्हाका तीन-तेरा करता. उघड दार. आयज म्हाका पैशे जाय म्हणजे जाय. |
| मालिनी | : | हो आयलो पाड पडिल्लो. हाका आता किदें सांगपाचे? बंडला फोडून फोडून सोपली. आयज हो कसोच ओगी रावचोना. |
| किशोर | : | काड तू दार, पळोवया किदें करता तो. (मालिनी दार काडटा) अय्यो अम्मा यंगा पोरें, यंगा पोंआ - पों - पों पोयटें. |
| स्वामी | : | (उसळटा) हे किशोर तूम हमारा भाषाका कॉपी मारता है तू म्हजी फकणां करता म्हजी भाषा उलोवन दाखयता. आरे म्हजे पैशे काड. ना तर हांव तूका पुलिसेकडन दितलों. आयज म्हाका म्हाजे दुडू दिना जाल्यार तूका हांव पुलिसेक पोंआ करता. किदें करता सांग. उलय. तू दुडू दिता काय आफोव पुलिसेक. तो पळय फाटल्यान येता. |
| किशोर | : | (भिता) पु-पुलिस ! तूवें पुलिसेक मदी हाडलें. हांव दिता न्ही तूजे पैशे. |
| स्वामी | : | दिता, दिता म्हणोन आयज वीस दिस जालें. आता पुलिसच किदें म्हण्टा ते सांगतलें तूका. |
| किशोर | : | तूवें म्हाका फुकट दिवना. बरे पेपर दवरल्यात घराच्या म्हज्या. |
| मालिनी | : | तेवूय झेरॉक्स. |

स्वामी : (मालिनीच्या म्ह-यान वचत) अम्मा अम्मा तू तरी सांग तेका.

गणू : (प्रवेश करता) व्हयनीबाय, व्हयनीबाय. भाऊ.... आरे भाऊ तू खंय आशिल्लो. तूका रातभर सोद सोदलो निमाणो प्रशांताल्या बलकावांचेर वचोन न्हिदलों. तुज्या हाती किदें जाले? (लक्ष स्वामीकडे वता) भाऊ हों कोण? वळखीचो सो दिस्ता (हासता) हा! हों आमगें लुंगीवालो मरे.

स्वामी : हें तूजी चड शाणपणा नाकात पुलिसाकडेन दितलो तूका.

गणू : किदें! चड जाले मरे तूगेले आमगेर येवन आमकाच भय घालता. (हासता) पेन्ट घातल्या म्हणोन? आरे तूका ही पेन्ट सोबना. तूगें या पेन्टीतल्यान अदमास करपाक मेयटा खंय खंय किदे आसा ते (स्वामी पेन्टीक धरता) तूका ती लुंगीच बरी कांयच कळना खंय किदें आसा ते (मालिनीची प्रतिक्रिया)

स्वामी : तूज्या आवयचो घोव किशोर तूज्या या सर्वटाक सांबाळ ओगी रावचो ना ताका.

प्रशांत : (प्रवेश स्वगत) स्वामीली पनवत आताच कित्याक हागां हो पळोवची पयली पळ काडल्यार बरी. (वचपाक करता तोच स्वामी ताका पळयता )

स्वामी : हे प्रशांत खंय वता हे म्हजे दुडू कोण दितलों पळ काडटा. तूकाय ओगी रावचोना या दुडूवांक तू जबाबदार आसा. यु हेव टेकन रीसपोन्सीबीलीटी फोर द लोन.

गणू : येंगें चड जालें मरें, चल लुंगी मारुन यो, चड उलयशीत तर नाच करतलो.

स्वामी : नाच कसलो नाच कथकली काय भारतनाट्यम? हे सर्वंट तू चड उलोवनाका. म्हजे मनीस गोंयभर पसरल्यात. तुझी पोटली केन्नाय उभारपा शकता हांव. आता तर म्हाका भयंच ना. वेल्यान पुलिसेन म्हाका आधार दिला येतलो

रोकडोच तो इन्सपेक्टर आनी काडटोलो पैशे भायर तूमचे.

इन्सपेक्टर : (प्रवेश करता) हांगा किशोर म्हणता तो खंय आसा?

किशोर : (भीत) हांव तो सायब.

इन्सपेक्टर : या स्वामीले तुवे पैशे घेतल्यात? दिसवड्याच्या हिशेबान ते तू दिना खंय. तूका किदें-म्हण्टा तें दाखोवपाक जाय? व्हरु बंदखणीत?

किशोर : नाका सायब हांव ताजें पैशे दितालो. या दिसानीच मात्शी धांदळ जाल्या सायब.

प्रशांत : आमका थोडो टाईम दियात सायब.

इन्सपेक्टर : त्या खातीर म्हाका किदेंय सोडचें पडटले. नातर उडयता सोंमतोच भितर.

किशोर : एकच हजार आसा सायब.

इन्सपेक्टर : किदें आसा तें पयलीं हाडून दी.

स्वामी : सर हावें तूमका दिल्यात न्ही म्हज्या पैशाची रीकव्हरी करपाक.

इन्सपेक्टर : स्वामी बरों दिस्ता मरें तू पॅन्ट घालून - आता तू वळपखाक येना. आरे तूवें म्हाका काल लुंगीचेर पैशे दिल्ले. आयज तू पेन्टीचेर कसो? लुंगी मारुन यो तेन्नाच तुका वळखतलो हांव.

स्वामी : क्या ! अय्यो अम्मा भानगड!

गणू : सायब हेका वडय भीतर हो व्हयनीबायक परत परत अम्मा म्हण्टा. वडय तेका भीतर आनी सामको वायट नजरेन पळयता. तू वडयीच तेका भीतर.

इन्सपेक्टर : हें तू वोगी राव. तू किद्याक मदी उलयता. सगळ्याक सोडटलो आनी या स्वामीलें तूवें एक लाख चोरलें म्हणून तूकांच वडयतोलो भीतर. राव बंदखणीत.

गणू : सा-सायबा

इन्सपेक्टर : सामको वोगी जाप काडचोना. (गणू भीता) (भायल्यान

सोर्तीकाराचो आवाज)

सोर्तीकार : सोर्त सोर्त सोर्त? भंम्पर एक कोठी. पन्नास लाख, पंचवीस लाख, एकवीस लाख घेयात फक्त वीस आनी दा रुपयात आनी जायात कोठ्या धिश कॅश बाय चान्स उधार ना? उधार ना.

गणू : सोर्तीकार रावरे म्हागें. सोर्त पळोवपाक जाय रे राव राव.

मालिनी : गणू हांगा चल्ला किदें पळयनास्तना तू सोर्तीकाराक आफयता

सोर्तीकार : (भीतर येता) कॅश बाय चान्स लक बाय चान्स सोर्त घेयात सोर्त (इन्सपेक्टराचेर लक्ष वता) सायब, तूमी पावले? हाव तूमचो सोमको उपकारी पैर तूमी म्हाका सोडलों. पैशे घेतले म्हणोन किदें जालें पूण सोडलो. नातर कारणाशिवाय हाव पडटा आशिल्लो बंदखणीत. सायब तशें तूमी सामके मनीसपणान वागताक पैशे घेतल्यार किदें जाले पूण म्हाका तूमी सोडलो. देव बरे कोरु तूमका.

इन्सपेक्टर : किशोर म्हण्टा तों होंच मरे.

सोर्तीकार : (तकलीसकल) हय सायब.

किशोर : किदें! तूवूय!

मालिनी : असलेच हे सोर्तीकार लोकांक लावन दिवपाचे.

गणू : बरों मरें तू आमगे भाऊकय लावन दिलो तूये?

प्रशांत : सायब तशे सामके बरे. समजून घेतात पैर म्हाका फुकट सोडलो ना.

इन्सपेक्टर : तूमचे चड जाले मरे, हाव सगळ्याक काडटलो आनी वडयतलो भीतर.

स्वामी : हांव सोडून.

इन्सपेक्टर : तूका किद्याक सोडपाक जाय. तूमच्या सारख्या लोकानीच वाट लायल्या गोंयच्या लोकांची चोरतात मारतात पैसो

करतात आनी आमच्याच लोकाक टोपी घालतात. तूका जूरान पैशे दिवपाक मेकळीक दिल्या कोणें ती पळोवपाक जाय म्हाका बरों सांगता म्हाका सोडून.

गणू : सायब तेका कसोच सोडूं न्हाका. सायब म्हाजेर एक उपकार कर हे सगलें करच्या पयली हाव मागेली मात्शी सोर्त पळयता सायब मात्शी पळोव?

इन्सपेक्टर : पळय पळय बेगीन. सोर्तीकार पळय रे ती.

सोर्तीकार : गणू हाड पळोवया तूगेली सोर्त. (गणू सोर्त सोर्तीकाराकडे दिता - तो ती पळयता म्हळ्यारच तपासता आनी खूष जावन) गणों म्हाकाय किदेय दी रे. तू जालों धीश एकवीस लाखाचों तूका एकवीस लाख लागले. (सगळे अजाप जाताक गणू घुंवळेता)

प्रशांत : किशोर आमी सुटले.

स्वामी : म्हागेले पैशे दियात रे.

सोर्तीकार : हे अशेंच आस्ता केन्ना कशें मनशाचे नशिब उक्ते जायत हें कोणूच सांगो शकना.

इन्स्पेक्टर : सगळ्योच गजाली नशिबाचेर आसताच अशे समजून चलना. बरें जाल्यार नशिब आनी वायट जाल्यार नशिब. हें सगळे मनश्याच्या हातांत आसता. जुगार हो मनश्याक केन्नाय वयर काडीना हों धडो आमका महाभारतातल्यान मेळटा. पांडव जुगारांत सगळे-सगळे व्होगडायतात आनी शेवटा आपल्या बायलेक लेगीत ते पटाक लायतात. एक वेळ सोर्त काडप बरी पुण बाकीचो जुगार खेळ महाघातक आसता हें सगळ्यांनी मतीत धरचे.

**अंकाचो पड्डो पडटां**





रोहिदास बाबुराव शिरोडकार

हांची काय उजवाडाक येवपाची पुस्तकां

**कोंकणी :**

(कला अकादेमीच्या नाटक स्पर्तीत सादर केल्ली नाटकां

१) तें आयलें (तीन वयक्तीक बक्षीसां)

२) ऑल इन ऑल (तीन वयक्तीक बक्षीसां)

३) भयांकृत वारें हें (दोन वयक्तीक बक्षीसां)

सादर न केल्ली नाटकां

४) शाप

५) बदलापूर

६) ही वाट संपत नाही (मराठी)
पणजी दूरदर्शनाचेर सादर केल्ली टेलेफिल्मस् पटकथे सकट

७) त्याग (२००० वर्साच्या गोवा फिल्म फेस्टीवलाक पयले आयले. तेच बरोबर बेस्ट स्क्रीप्ट म्हण पयलो पुरस्कार फावो जालो.)

८) आलमार ती सवत (कोंकणी)

९) सांवारें (कोंकणी)

१०) ना कोण कोणाचो (कोंकणी)

११) केन्ना कशें (कोंकणी)

१२) आवर्त वादळ (मराठी)

१३) क्रेस्टो (कोंकणी)

१४) रीण तें फारीकपणाचें (कोंकणी)

१५) गणेश वंदना (श्री गणपतीच्या गीतांची सीडी तयार, मार्कीटात आयल्या.)